# NAMES & ADDRESS OF MEMBERS OF THE MANAGING COMMITTEE OF
# INSTITUTE MENEZES BRAGANZA

| SR. NO. | NAME OF THE MEMBER | OFFICE ADDRESS | TELEPHONE NO. |
|---|---|---|---|
| 1. | **Shri. Sanjay Kumar Shrivastav**<br>Chief Secretary,<br>Chairman (IMB) | Chief Secretary, Govt. of Goa<br>Secretariat, Povorim Goa | 2419401 (O) 2419402 (O)<br>2419658 (O) 2419659 (O) |
| 2. | **Shri. Mohandas Surlakar**<br>Vice Chairman (IMB) | Executive President,<br>Gomantak Rashtrabhasha Vidhyapeeth,<br>Margao | 2766383 (O)<br>9822268953 (M) |
| 3. | **Secretary Art & Culture,**<br>Govt. of Goa, Member (IMB) | Secretariat, Povorim Goa | 2419416 (O)<br>2224971 (R) |
| 4. | **Finance Secretary,**<br>Govt. of Goa,<br>Member (IMB) | Secretariat<br>Porvorim Goa | 2419439 (O) 2224971 (R) |
| 5. | **Shri. Dilip Deobagkar**<br>Member (IMB) | Vice Chancellor,<br>Goa University, Taleigao Goa. | 6519048 (O) 6519044 (R) |
| 6. | **Shri. Prasad Lolayekar**<br>Member (IMB) | Director, Directorate of<br>Art & Culture, Panaji - Goa | 2438103 (O)<br>9922941764 (M) |
| 7. | **Shri. N. Shivdas**<br>Member (IMB) | President, Goa Konkani Academy,<br>Patto, Panaji | 2437385/87 (O)<br>2335350 (R) 9226420583 (M) |
| 8. | **Shri. Narendra Ajaonkar**<br>Member(IMB) | President, Gomantak Marathi<br>Academy Marathi Bhavan,<br>Porvorim - Goa | 2413646 (O)<br>2413647 (O)<br>9822442587 (M) |
| 9. | **Shri. Suresh Naik**<br>Member (IMB) | President, Gomantak Sahitya<br>Sevak Mandal, Panaji - Goa | 9764631919 (M) |
| 10. | **Smt. Nandini P. Desai**<br>Member (IMB) | President, Sanskrit Pracharini<br>Sabha, Communidade Building,<br>Margao - Goa | 2736417 (O) 2752576 (O)<br>9890660180 (M) |
| 11. | **Shri. Ashok V. Parab,**<br>Member Secretary (IMB) | Asstt. Director of Culture<br>Directorate of Art & Culture<br>Panaji - Goa | 2224143 (O) 9960283690 (M) |

गोवापुरी

इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझाचे प्रकाशन

**अंक : १**

एप्रिल – जून २०१०

**संपादक :**

रमेश भगवंत वेळुस्कर

**प्रकाशक :**

अशोक वि. परब

सदस्य सचिव

इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा

पणजी – गोंय – ४०३ ००१

E-mail : imbpanaji@yahoo.com

**मुद्रक :**

रुतू ऑफसेट

वळवय फोंडे,

गोंय ४०३ ४०१

**मुखपृश्ट :**

हेड इन द सिटी लॅंडस्केप

ऑइल ऑन बोर्ड – १९५९

यफ. यन. सौजा

**आर्टिस्ट :**

श्री. आनंद कवठणकर

कुमारी क्रांती विलास च्यारी (रेखाचित्रां)

* प्रकाशीत रचनांकडे आमी सहमत आसताच अशें ना.

# अनुक्रमणिका

# संपादकीय

नमस्कार -
म्हज्या सगळ्या गोंयच्या साहित्यिकांक
आनी म्हज्या सवन गोंयच्या तशेंच सवन
संवसारावयल्या वाचकांक.

तुमच्या मोग ाच्या आनी विस्वासाच्या
मालवजार हांवें गोंयपुरीच्या संपादनाची
जबाबदारी हांवें घेतल्या
ती समर्थपणान फुडें व्हरप आतां म्हजेवांगडाच
साहित्यिकांनी तुमच्याय खांद्यार येवन पडटा

साहित्यिकांनो,
तुमच्या मनात आनी अनुभवांत वसतली
जी अति संवेदनशील साहित्य संपदा आसा
ती तुमी गोंयपुरी खातीर दितले
अशी आस्त म्हाकां आसा
कारण सुक्षीम जाणीवांचे आमचे वाचक
तुमची गिरेस्तकाय पळोवंक
आनी ताची रुच घेवंक आशेतात
ते फकत गोंयांत नात
तर सवन संवसारभर पातळळ्यात

गोंयपुरीचें पुर्विल्लें दायज
विद्वान अभ्यासकांचें आनी फिशाल
साहित्यिकांचें
त्या फिशालपणाची वाट आमकां
आमकां मळची आस.

लेखक, मुद्रक, छापपी, चित्रकार
मुद्रितां तपासपी ह्या सगळ्यांचे उपकार
खाशेले उपकार डॉ. वासुदेव सावंत, श्री. मुकेश थळी,
श्री. तुकाराम रामा शेट आनी श्री. मोहनदास सुर्लकर हांचें.

– रमेश भगवंत वेलुस्कर



## म्हज्या चित्तां

म्हज्या चित्तां नित नृत्यां कोण नाच ऽ
ता ता थोई थोई ताता थोई थोई ता ता थोई ता ता थोई थोई
वाऱ्या संगीं मृदंगाचेर कोण वाज ऽ
ताता थोई थोई ता ता थोई थोई ता ता थोई थोई

हंसो - रड हिरा पन्ना धॉल ऽ कपलांत
धुंद स्पंदांत धूंद मंद ताला तालांत
जन्म नाचता मर्ण नाचता लागीं लागीं
ताता थोई थोई ता ता थोई ता ता थोई थोई

रे आनंदु रे आनंदु रे आनंदु
दीस - रात नाच ऽ मुक्ती नाच ऽ बंध
ल्हारांतसुन त्या सुट ऽ रंग लागीं लागीं
ता ता थोई थोई ता ता थोई थोई ता ता थोई थोई

*- रवीन्द्रनाथ टागोर*
*अणकार : रमेश भगवंत वेलुस्कार*

हे वर्स टागोरांचे १५० वर्स ते निमतान गोवापुरीचीं आनी समेस्त गोंयकारांचीं ताकां आर्गां.

# ख्रिस्तपुराण

## सातवो अवेस्वरु

## कसो जेजु ख्रिस्तु विश्वतारकु सुदैविणी सातां मरियेपसून बेलें पुरांत जल्मलो

**– पाद्री तॉमास इस्तेव्हां**

**अणकारपी : पद्मश्री सुरेश गुंडू आमोणकार**

जया नमो साल्वादोरा[2]। नमो आंकुवारीच्या[3] कुंवरा। कुर्पानिधी करुणाकरा। जेजू ख्रिता स्व्याम्या ॥1॥ जया जया वैकुंठनायका । स्वाम्या विश्वतारका। भक्तजनां पालका। ख्रिस्तराया ॥2॥ तूं ज्ञानमतिचो सागरू। दाखय ग्रंथाचो पेलो पारू। देवन आतां कुर्पा – वरू। ना कर भंय ॥3॥ नमन तुका काकुळतिचे माते । स्वामिनी कुर्पा भरिते । सदां आंकुवारी तुका गे । नमस्कारु म्हजो ॥4॥ वर्णुपा तुजो कुंवरू । म्हाका दिगे धिरू । माते घे म्हजो पतकरू । माथ्यार हात दवरून ॥5॥ नमन म्हजें पवित्र भक्तां । आयकुप्यां समस्तां । एक चित्तान आयका कथा । ख्रित – जल्माची ॥6॥ फुडें गर्भेस्त आसतना मेरी । भरले णव म्हयन्यां वयरी । बाळंत जावंच्या समयारी । जालें कितें ॥7॥ तेन्ना राजा सिझार[4] ऑगस्टु । तो रोमनांचो नृपनाथु । कितें दिलो निरोपु । रायाज्ञा दिवनु ॥8॥ म्हणी म्हज्या राज्यांत जे आसात जनु[5]। तांचें गणित कर्नु । म्हजो निरोप दिवनु । पेटया दंवडी ॥9॥ सगल्या दादल्यांनीं आपलीं नांवां । वचून आपापल्या गांवां । कर फारीक कर्न बरया नांवां । इश्क्रिवांवाकडेन ॥10॥ अशी दवंडी नझरेंत पेटयली । मरिये जोझेफान आयकली । मागीर बुद्ध येतली । दोगांय जाणानी ॥11#॥ बेलें म्हणिल्लें नगर । थंय दाविदाचें नीज घर । जल्मभूंय कुळघर । तें त्या जोझेफाचें ॥12॥ तीं दोगांय जाणां । दाविद कुळयेंची दोगां देखून थंय वचचें पडलें तांका। बरोवपा नांवां॥13#॥ पूण संकश्ट हें जोसेफाक । सांडून वचची न्ही स्वामिनीक । एकलीच बाळंटेरा वेळार देखून ॥14॥ हिका व्हरची सवें म्हणल्यार । वाटेंत कश्ट जायत जाल्यार । म्हण्टा कशी चलत, ही गुरवार । इतले पयस ॥#15॥ स्वामिनीन जाणली ही उचंबळाय मनांतली । स्वाम्याक आर्गां भेटयलीं । हांव तुजें सवें

येतलीं । अशें जोझेफाशीं उलयली ॥16#॥

फाटी मिखेया प्रोफेतान बरयल्लें । तें मरियेन मनांत स्मरलें । बेलें नगरांतु जल्मतलो म्हणिल्लें। ख्रिस्तराय ॥17# ॥ तें आठोवन आंकुवारी। मनीं उल्लासली महाथोरी । वचूंक भायर सरली बेलें नगरीं । जोझेफा सवें॥18॥ तिची प्रसुती लागीं पाविल्ली। चलताली ती वाट पयसुली । स्वामिनी ना कश्टावली । हेरां बायलां परी ॥19॥ जो सगळ्यां आवयचो ॥20॥ सुर्वेक सावन तिची । कूड आसली निरोगी । कश्टा विरेतु स्वामिनी । भरल्यो शरिरीं । त्या दिसा ॥22॥ झाडां झोपांचे लागसून । गिरी दोंगर उपून । स्वास उस्वास सोडून धापेतार्ली दोगांय॥23॥ वारें नेटान सुटटा। रुखाचें पानान पान झडटा । दोंगरये व्हाळ व्हांवता । पावसा दडकांनी ॥ 24॥ उदकांन वस्त्रां भिजलीं। चिप्प वलीं जालीं । कश्टान तांणी सांवरली । भिजिल्लीं वस्त्रां ॥25॥ शीं खूबूच खाता हातपांय जडगुळे जाता । तोंड बावललें दिसता । फुटले तळपाय॥26॥ जर सटसटीत चलचें । तर चलतना पांय नुखलचे । ल्हवु ल्हवू जरी वचचें। तर सुर्या वता अस्तमूंक ॥27॥ वाटेंत लोक मेळटात । ते जोझेफाक दोश दितात । अशी बावडी अस्तुरी गर्भस्त । म्हण्टी व्हरता कश्ट दिवन ॥28॥ ते नेणात बावडे नेणार । स्वाम्याची लागणूक अगोचर[6]। जें पळेती दिश्टी मुखार। तेंच उलयती ॥29॥ अशी मेरी जोझेफ दोगां । कश्टावली दोगांय जणां । पूण थारावतां दिती आर्गां । परमेश्वराक ॥30॥ मागीर चलून वाट पैसली । दोगांयू वेलें नगरा लागीं पावलीं । पैसल्यान मेरी नियाळी । बेलें पाटण ॥31॥ नमन बेलेगा सोबिवंतु । फार्टी उलयल्लो मिखेया[8] प्रोफेटु[8]। गुदाचें[9] देशीं न्हय तूं सानु । म्हणून ॥32# ॥

तुजे ठांयचो येतलो एकू दळपती[10] । तो म्हज्या प्रजेचो भूपती[11] । अशें मिखेया प्रोफेटा ग्रंथी। आसा बरयल्लें ॥33॥ आतां हांव स्वामियाची लाडकुली । तो दळपती म्हज्या उदरीं[12]। हाडटां तुज्या बिडारीं। बेलें नगरा॥34॥ देखून तूं धन्य धन्य जातली । जर तूं ह्या दळपतीक वळखशी। तर तूं बेगीन पावतली। परम पदाक[13] ॥35॥ अशें उलोवनु सुदैवी मेरी । चलूक फुडें पावली। आयली बेलें नगरीं। दोगांजणां॥36#॥ थंय लोक मेळ्ळे अपरिमीत । जोझेफ घरा घरांत आसलो हेडत। रावंक सुवात सोदित। दिना कोणूच॥37॥ एकलो तिडकीन जोजेफाक । म्हणटा खंयची हांगा सुवात। पळेली पूण नारी गर्भेस्तिक। ताका आयलिना काकुयट॥36॥ इतल्यांत सुर्या देवलो सागरीं। तेन्ना उलयलीं जोसेफ - मेरी। आतां न्हयत्या रातीच्या वेळारी । रावचें पडटलें खंयतरी ॥39॥ मागीर सरतां बेलेंच्या भायर । थंय दुरगालागीं एक विवर । थंय सुकिल्लें तण अपार । पळेलें ताणीं ॥40॥ त्या नगरांतलो एक परदेशी । एके खाणावळी सरशीं । ती व्होंवरी आसली एका ठिकाणाचेरी । दुरगा वण्टी सरीं ॥41॥ रावपाक ताच्या गोठ्यांत । त्या घरकाराक विनयंत । म्हळें तुमी सुखान रावात । दोगांय ॥42॥ तेन्ना थंय व्हेली स्वामिनी । तणाचेर बसली वैकुंठराणी । भिजिल्लीं वस्त्रां ताणीं । काडून सुकयलीं ॥43॥ मागीर रांदप करून। आर्गां दिवन केलें जेवण । स्रमान विसावलीं बशिल्ले कडेन । दोगांय जणां ॥44। पूण स्वामिनीच्या चित्तीं । न्हीद आयलिना ते रातीं । वाटेंत थकिल्ली सामकी । ते स्रम फिटले तिचे ॥45॥ हेर अस्तुऱ्यो संवसारीं । वाळंटेरा वेळारी । महा कश्ट - दूख शरिरीं । जाता

बावडिर्णींक ॥46॥ पूण आवय जेझुची नासली तशी । जो स्पिरिता सांता वरवीं । पुरुशसंगाविणें गर्भी । संभवलो ॥47॥ तो आपले आपूण आतां । आवयक कश्ट ना दितां । जल्मा आयलो अवचीता । बरे भशेन ॥48॥ तशेंच इसाऱ्या प्रोफेतान[14] । बरयल्लें आपल्या पुराणांत । कश्टले वीण कुंवराक । प्रसवतली म्हणून ॥46॥ श्रोत्यांनो तुमी आयका आतां। जेझू ख्रिस्ताची जल्मकथा । जशी सांगली ध्यानस्त भक्तांन । तशी सांगन तुमकां ॥50॥ इतल्यांत आकाश स्थानांत । रातीचे जाल्ले पार दोन । तेन्ना देवमाता ध्यानस्त जावन । प्रेमान भरिल्ली ती ॥51#॥ थांबलें कुपाचें शिवरय। निवळ जालें आकाश। तेज फांकलें गहन । तारा मंडळांत॥52॥ आंकुवारिचो प्रसुतिकाळु । पळोवंक निर्मळु । चंद्रु जालो उताविळु। तारांगणांतु ॥53॥ नक्षत्रां दुसऱ्या पारांत । उदेल्लीं जीं आकाशांत। तें नवल पळोवंक । राविल्लीं ॥54॥ जीं तिसऱ्या पारांत उदेल्लीं। ती परतीं वचूक गेली। जी पयल्या पारांत उदेल्लीं। तीं चिंती दुसरो पार॥55॥ सर्गांतल्यान भोडुवे ।[15] पळोवंक आयलें सगले। आपले स्वामी वस्त्र घालून नवें। येतलो कसो॥56॥ पळोवंक आयले देवदूत। योग्यांत अपरिमीत। वैकुठांतल्यान उडकी मारित। भूमंडळांत[16] ।।57॥ आंकुवारी बाळंत जाय मेरेन । दैवदूत रावले ते मेरेन। त्या अवसरी करीत स्तवन । पवित्र रातीचें ॥58॥ म्हणटी नमन राती सुफळ। दिसा परसय निर्मळा। आतां सुर्या आकाशमंडळा। आसुनूय ना उपेग ॥59॥ आयज निती धर्माचो दिनकरू[17] । उदेय कर्नुल लावन देव कुंवरु। फेडटलो पृथ्वीचो अंधकारू। प्रकाशून संवसार ॥60॥ इतल्यान मध्यान रात जाल्ली। स्वामिनीची प्रसूतीची घडी पावली । पळोवन कितें उलयली । दिमयो घालून ॥61॥ आगा यो अनादिसिद्धा परमेश्वरा । देवबापा सर्व रचणाऱ्या । जल्मा घडी पावली दातारा । तुज्या पुताची ॥62॥ जो विश्व तारक केवळ । त्या येणाऱ्याचो जालो वेळ। तरी घे देवा सुदैवी फळ। म्हज्या पोटचें॥63॥ हें सुफल फळ आतां। स्वामी तुका हांव ओंपतां। म्हणून देवा सत्यवंता। पळे स्वाम्या॥65॥ अशें उलोवन त्या समयारी । महा सुदैवी कुंवारी मेरी। पळोवंक लागली भूमंडळावयरी। अमृता दिश्टीन ॥66॥ तेन्ना जेझू बाळक जल्मलें। तें पुत्र-रत्न मरियेन देखलें। मागीर साश्टांग भुंयी घातलें। आंकुवारी मातेन ॥67#॥ सद्‌गदीत जाली गळ्या-नाळ। गंयवरलें हृदय-कमळ। परगटलें आनंद-जळ। नयन-कमळांत॥68॥ म्हणी म्हज्या स्वाम्या म्हज्या बाळका। मनशां पासत वैकुंठनायका । मनीसजल्म विश्वतारका । घेतलो तुवें॥69॥ आतां तुजो उपकारू। हावें मानला थोरू। हांव तुजी मांय, तूं म्हजें लेकरूं। जालें म्हणून ॥70॥ आनी तूं जल्मून म्हज्या उदरीं। म्हाका राखली आंकुवारी । जावंचे आदी बाळटेरी । आनी प्रसूती-समयारी॥71॥ तेन्ना बाळकाचे वंदिले चरण। स्वामी म्हणून दिलो मान। आनी वेंगायलो पूत म्हणून, उमो दिवन ॥72॥ मागीर उखलून हातीं घेतलो । आपले मांडयेर दवरलो । मोगान धरलो । हृदय - कमळीं ॥73॥ क्षेमालिंगन दियत। नमन पोटच्या बाळा म्हणीत । तूं परमेश्वर साक्षात । मनुश्य-जल्मा आयलो ॥74॥ नागड्या रुपानय शरिरीं । हेरां कुवरांपरी । जल्म जालो संवसारीं । स्वाम्या तुजो ॥75॥ तूं संवसाराची आशा । दीर्घ दिश्टीची स्रद्धा[18] । प्रवाद्यांची दैवदशां । आनंद तूं॥76॥

तूं संतांची स्तुती गीता । भक्तांचें भांडार समरथा । तुजो सन्मान करुंक आतां । म्हजेलागीं आसा कितें॥77॥

मध्यान रातीच्या समयारी । कुपांच्या अखंड शिंवरीं । गोठ्यांत शियां काळारी । जल्मलो बापा ॥78॥ आमचो काळोख फेडूंक। रातीचो आयलो जल्माक। शीतळ मन हून करूंक । जल्मलो तूं शियांदिसांनी ॥79#॥ मोनजातींतले आतां । आमकां सोडोवंक वैकुंठनाथा। घेवपा देवदुतां सांगाता। मोनजातीं मदीं जल्मलो तूं॥80॥ आपले कुर्पेची संपत्ती । आमकां दिवपा वैकुंठपती । दुर्बळ जावन आयलो भुंयीं । जल्मु घेवन ॥81॥ आतां घे हीं दुबळ्यांचीं लुगडीं । पांगुरुवपाक तुजी कुडी । शिंयाची चडी ही अवघडी । निस्तरुंक ॥82॥ अशी मेरी उलयली । आनी घुर्ल्लीं आंगलीं काडलीं। बाळक जेजूक घालीं । जीं हाडिल्ली नगरेंतल्यान ॥83#॥ मागीर फटिका[20] परस निर्मळ। जसें माणिक मुक्ताफळ[21]। मागीर थान काडले सुडौल । दिवंक दूद ॥84॥ हृदयीं जेझू तानो धरून ।ताच्या मुखी घालें थान । तो करी पिवन । घुटु घुटु ॥85॥ जेझू मरियेचें दूद सेवित । मरी जेझुचें ध्यान करीत। सेवताली वैकुंठिचे अमृत। हृदयांतु ॥86॥ जेझुचें भक्ति-सूख निर्मळ। आंकुवारिक लाभले केवळ। अमृत[22]-क्षीर दिवन आपलें बाळ। पळेता न्हिदोवंक ॥87॥ गोठ्यांतली दांवण[23]। थंय गाढव नि बैल बांदून । थंय खोशेन तण। खातात दोगूय ॥88॥ थंय स्वामिनीन पूत आपलो । त्या तणाचेर दवरलो । दावणेंत न्हिदयलो। जेझू बाळकु ॥ 89# ॥ बैल आनी गाढव दोगांनी । वळखलो रचणारो तो स्वामी । तोंडचें तण सांडून त्या समयीं । घाल्यो दिमयो ॥90॥ हे फुडली कथा। सांगन श्रोत्यांक समस्तां। स्तुती गायन आयका आतां । जोसेफ आनी देवदुतांचें॥91॥

सातवो अवेस्वर सोंपलो (होंवयो 91)

1) (म. वा.) बेथलेहेम (सा) बेलें-जंय ख्रिस्ताचो जल्म जाल्लो, 2) राखणारो, 3) (सा) विर्जेंचेआ, 4) (इ) Caesar Augustus; (म. बा.) कैसर औगुस्त ख्रिस्ताच्या काळांत पॅलस्टाइनचेर अधिराज्य) करपी रोमन सम्राट. जतगणने खातीर सगल्यांनी आपापल्या गांवांत वचचें अशें जाहीर केल्ल्यान णव म्हयने भरिल्लो मेरीसयत जोसेफाक बेलें (बेथलेहमाक) वचचें पडलें, 5) लोक, 11) # मातेव 2 : 23: मार्क 1:9, लुको 1:26, 2:39, जुआंव 1:45, लुका 1:1, 3, 4, 5, 13) # लुका 2:1, 3-5, लुका 2:1-3, 15) # उत्पत्ती 5:21, 27, 16) # उत्पत्ती 5:21,27, 17) # मिखायेली 5:2-3, 6) कळना अशी, 32) # मिखायेली 5:2-3, 7) नगर, शार, 8)(इ) Micheasl Mecahi. (म. भा. बा.) मरिबा 9 (इ) Judah (Sudaea), यहुदा आनी वन्यामीन वंशाच्या लोझकांनी व्यापिल्लो पेलेस्टाईनचो वांटो. जेरूसलेम हें हांगचे म्हत्वाचें शार 33) # मिखायेली 5:2-3, 10) सेनापती, 11) राजा, राय, 12) पोटांत, 13) मोक्षपदाक, सालवासांवाक, 36) # लुका 2:1,3,4,5, 14) प्रवाद्यान. 51) # लुका 2:6,7 15) देवदूत, 16) पृथ्वीचेर, 17) सूर्य, 67) # लुका 2:7, लुका अध्याय : 2, 18) (सा) भरवंसा, 19) (सा) प्रोफेतांची, 79) # लुका 2:7, 83) # लुका 2:7, 20) स्फटीक, 21) मोतीं, 22) अमृतावरी दूद, 23) गोठ्यांत गोरवांक तण घालची सुवात, 89) # लुका 2:6,7.

●●●

# भरिल्लें तशें भारिल्लें तें दीस

– गुरुनाथ केळेकार

1952-1961. धा वर्सां. भरिल्ले आनी भारिल्ले ते दीस. देशाचेर ह्या धा वर्सांत जवाहरलाल नेहरूंची पुराय अधिसत्ता चलताली. गांधीजी नेहरू परस वीस वर्सांनी व्हड. सरदार पटेल आठ वर्सांनी. सरदार पटेल आनी पंडित नेहरू आपापले परीन शक्तीन समान. पूण गांधीजीनी पयलींच सांगून दवरलेलें, ''वल्लभभायूय न्हय आनी राजगोपालाचारीय न्हय, म्हजो उत्तराधिकारी जवाहरलालूच.''

जवाहरलालांचें गांधीजींकडेनूच न्हय, तर वल्लभभाय, राजगोपालाचारी, राजेंद्रबाबू हांचेकडेन विचारांचे नदरेन जमनाशिल्लें. तरी पूण गांधीजी आपलो फुडाराचो वारस म्हण जवाहरलालूच म्हणटाले. हाचें कारण, जें मनांतल्यान जुळनाशिल्लें तें काळीज सांदतालें. देश जवाहराच्या हातांत सुगूर आसा' अशें सर्टिफिकेट गांधीजी जवाहराक दिवन मेकळे जाल्ले.

देश स्वतंत्र जालो आनी जवाहरलाल प्रधानमंत्री आनी वल्लभभाय घरमंत्री जाले. रगत व्हारयले बगर देश स्वतंत्र जालो. हे उमेदींत आसतना रगताचे पाट व्हांवूंक लागले. पाकिस्तान दिवनूय शांती स्थापीत जायना जाली. सत्तांतराच्या सुवाळ्याक गांधीजी दिल्लींत नाशिल्ले. गांधीजी बिहार, बंगालांत उजो पालयताले. उप्रांत जानेवारी 1948 त गांधीजी दिल्लीक उपासाक बसले. त्या उपासा वेळार गांधजींक वल्लभभाय आनी जवाहरलाल हांचें बरें चलना ही व्यथा खूप सतायताली. निमाणे, वयलेचाराक जायना, या वेळेचें म्हत्व वळखून जायत, आमी एकठांय रावतले अशें दोगांयनी गांधीजींक उतर दिलें आनी घडये तोच खीण जावये, गांधीजींचे कार्य सोंपिलें! तांकां निमाणे आपोवणें आयलें. तकलेन सारको नाशिल्ल्या एका मनशान तांका मारले.

वल्लभभाय गांधीजीउप्रांत दोनेक वर्सां जियेले. 1950 त ते गेले. भलायकेन ते बरे नासताले. तांचेखातीर भोंवडेपासत खाशेल्या विमानाची तजवीज केल्ली. ते वताले थंय तांकां आयकूंक लाखांनी लोक जमताले. जवाहरलालां परस तांचें भाशण चड छाप घालतालें, प्रभावी जातालें. दुस्मानाची ते फिरकी घेताले. दुस्मानाक हारोवचें तें हाणीच अशें लोकाक दिसतालें. हैदराबादेचो प्रस्न पोलिस ॲक्शन घेवन ताणीच सोडयलो. एक घाव दोन कुडके करपी मनीस लोकाक चड भावता.

अशे हे सरदार वल्लभभाय पटेल, भारताचे पयले घरमंत्री, 1950 त भायर पडले आनी देशाचो कारभार पुरायेन नेहरूंच्या हातांत आयलो. राजाजी तेन्ना देशाचे गवर्नर म्हण निवृत्त जाल्ले आनी राजेंद्रबाबू देशाचे पयले राष्ट्रपती जाल्ले. जवाहरलालांकडेन सर्त करपी दुसरो कोण नाशिल्लो. एक लेखक बरयता, वलभभाय हांची संस्थानां विलीन करपाफाटली भूमिका खूप म्हत्वाची. हातूंत दुभाव ना. पूण लोकमत तयार करपाचें काम जवाहरलाल करताले.

गांधी पटेलां उप्रांत जवाहरलाल देशाचे सबकुछ जाले. देशाक सगळ्यांत आर्दी दळदिरांतल्यान वयर काडूंक जाय हाचो ताणी ध्यास घेतलो. दळदीर पोटाचें तशें तकलेचें. ह्या संबंदान ते पंचवीस वर्सां आदींसावन चिंतताले. देस एक दीस स्वतंत्र जातलो हाची तांकां खात्री आशिल्ली. फुडल्या दिशादर्शनाची तयारी आदीसावन करूंक जाय अशें जे येवजिताले तातूंत जवाहरलाल पयले आशिले. ही दिशा दाखयतना देशाचो एकवट फकत तिगोवपूच न्हय तर हो एकवट बळगें जावंक जाय हें शिकोवंक ते देशभर भोंवड्यो काडून व्याख्यानां आनी भाशणां दितालें. पाकिस्तान मुस्लिमांचो देश जालो म्हूण भारत फकत हिन्दूंचो देश अशें आमी मानूंक फावना ही तांची शिकवण आशिली. हें काम सोंपें नाशिलें.

जवाहरलाल प्रचलीत अर्थात देव माननाशिले, धर्म माननाशिल्ले आनी बहुजनसमाज तर फकत तथाकथित देव आनी धर्माच्या विळख्यांत सापडिल्लो. बहुजन समाजाक हे मानसिकतेंतल्यान भायर काडपाची गरज आशिली आनी हो वावर जवाहरलाल हाणी आयुष्यभर केलो.

अजाप दिसता, अशी देवधर्म भोळी जनता जवाहरलालां बरोबर रावली कशी? विनोबाजीक खंय कोणे एकल्यान विचारलें 'देव धर्म मानिनाशिल्या जवाहरां वांगडा जनता वता कशी?' विनोबाजीनी मार्मिक जाप दिली. 'कौसल्येच्या तोंडांत आपल्या पुताचें नांव 'राम राम' सदांच आसतालें. ती आवय आशिल्ली. रामाची बायल सीता हिणे घोवाचें नांव केन्नाच घेतलें ना. ती कितें घोवाचो मोग करिनाशिली व्हय?' विनोबाजी म्हणटात : 'जवाहरलाल देव मानिना, पूण खरें म्हणल्यार जनतेंत तो देव पळयता. ताणे जनतेचो मोग जोडला आनी जंय मोग आसता थंय देव वसता.'

जवाहरलालांची देशाक व्हड देण म्हळ्यार लोकशाही. लोकशाही म्हळ्यार आपणे आपणाक लावन घेतिली शिस्त आनी सहनशिलता अशें ते म्हणटालें. 'समाजवाद आनी सहकार्य' हो मंत्र ते जपताले आनी गिरयताले. हे पासत 'तुमकां जर अर्थिक दळदिरांतल्यान वयर सरचें आसा जाल्यार धर्मकुडेपण विसरून पंचवर्सुक्यो येवजण्यो सुफळ करच्या कामाक लागात. तुमचें लक्ष हे वटेन लायात' अशें परपरत ते सांगताले.

खासा आपूण 'आराम हराम है' म्हणून दिसाची 18 वरां काम करताले. हो राजकारणी पाताळयंत्री न्हय हाचें जनतेक खरेपण जालें, देखून जवाहरलाल जनतेक जीव काय प्राण जाले.

जवाहरलाल म्हणटाले देशाचे हजारांनी प्रस्न, लाखानी प्रस्न आसात. खरें तर मनशाकणकणी प्रस्न आसात. आमकां विकास जाय, सुदरप जाय. पूण विकास नवे नवे प्रस्न हाडटा म्हणपाचें विसरूंक फावना.

हे तर रणांगण. ह्या रणांगणावयल्यान पळूंक जायना.'' काश्मिर ते कन्याकुमारी आनी गुजरात ते बंगाल मद्रास मेरेनचे प्रस्न. अखेरेक सगळे जवाहरलालांसरी वताले. सगळ्यांक तेच सोडवणदार दिसताले. कारण तो सगळ्यांक सारकोच आनी योग्य तो न्याय ते दिताले.

*****

देशाक लागून राज्य, राज्याक लागून गांव अशें आमी म्हणटात. पूण संवसाराक वा जगाक लागून देश हें आमी विसरतात. सगळे बरें जाल्यार आमी बरे. हे सगळे देशाभायरूय आसात. ते तर अमेरिका आनी सोवियेट रशिया अशे दोन पंगड करून आपसांत झगडटात. तिसरें म्हाझुज केन्ना पेटत हें सांगूं येना.

गांधीजी म्हणटाले, 'जवाहरलालाक लागून संवसार आमकां वळखता, मान दिता.' जवाहरलालाक पयलींसावन इतिहास आवडटालो. ते इतिहासांत परपरत वताले आनी इतिहासांतल्या व्यक्तीं वांगडा जगताले आनी इतिहासांतल्या घडणुकांनी रमताले. इतिहास देशाचोच न्हय. जगाचो इतिहास. ह्या जगाच्या इतिहासाक जवाहरलालाक जगाच्या घडामोडींतले एक वांटेकार केले. आमकां इतिहासाखातीर इतिहास नाका फुडार घडोवपाखातीर इतिहासाचो अभ्यास जाय,' ते म्हणटाले.

जवाहरलाल हाणी संवसाराक आपणावंक देशाचें परराष्ट्र खातें आपणाकडे घेतलें. आनी जगांतल्या मुखेल देसांनी भारताचे प्रतिनिधी नेमून तांचेकडेन नातें जोडलें.

त्या काळा अमेरिका आनी सोवियेट रशिया ह्या दोन महासत्तांमदें उजो वचनाशिलो. जगाची दोन वांट्यानी वांटणी जाली. दर एक देशाक आपले वटेन ओडचो प्रयत्न ह्यो महासत्ता करताल्यो आनी आपले वाटेन येना ताका दुस्मान मानताल्यो. अशे परिस्थितींत संवसारांत केन्ना तिसरें महाझूज पेटत हें सांगूं येनाशिलें. आनी हें महाझूज ॲटम बॉम्बांनी न्हय तर नुक्लेयर बॉम्बानी खेळून महासत्ता जग काबार करतल्यो हें स्पष्ट दिसतालें.

जवाहरलाल राष्ट्रवादाक संकुचिततावाद म्हणटाले. (पारोकियालीझम). राष्ट्र स्वतंत्र जायसर आमकां राष्ट्रवाद जाय. स्वातंत्र्य हें आमचें पयलें उद्दिश्ट. तें पूर्ण जालें कि आमचो फुडार आमी आमकां जाय तसो घडयतले, हेर राष्ट्रांवांगडा जियेवन. गांधीजीनी आमकां सत्य आनी अहिंसेचे पाठ शिकयल्यात त्या विचारांचे प्रचार आनी प्रसार आमी संवसारभर करतले. आमी दुसऱ्या खंयच्याय देशाचे पांगेंत रावचेनात. आमी सत्य तेंच उलयतले. उलयतना कोणाक भियेवचे नात वा दुखोवचेनात. आमी कोणाक दुस्मान मानचे नात. सगळे आमचे इश्ट, पूण आमी दुसऱ्याच्या पोशान उदक पियेवचेनात. आमचो देश वयर काडटनांच आमचो देश. हें पालूपद घेवन आमी बसचे नात. संवसारांतलो साम्राज्यवाद ना जावंक जाय. सगळीं राष्ट्रां स्वतंत्र जावंक

जाय. निमाणे 'एक जग-एक सरकार' ह्या ठाण्यार पावपाची आमी तयारी करूंक जाय. देखून समाजवाद आनी सहकार्य हीं दोन तत्वां संवसारात आपणावक जाय अशें जवाहरलाल म्हणटाले.

जग दोन वांट्यांनी फुटलां तें सांदोवक ताणी नॉन ॲलायण्ड मुवमेण्ट, राष्ट्रांचो पंगड बांदूक सुरवात केली. वांगडा ताणी इजिप्त, युगोस्लाविया, इंडोनेशिया, घाना आदी देशांच्या नासेर, टीटो, सुकार्णो, एन्क्रूमा आदी फुडाऱ्यांक सांगाताक घेतले. परिणामी ह्या 52-61 ह्या दसकांत जवाहरलाल अमेरिकेंतल्या सरकार-दरबारांत जितले सक्रिय जाले ताचेपरस चड हेर देशांनी लोकप्रिय जाले. संवसारांत कितेंय बरें-वायट घडलें जाल्यार जवाहरलालांची प्रतिक्रिया कितें तें आयकूंक संवसारभरांतलीं राष्ट्रां कान दितालीं.

*****

आनी हांगा गोंयांत सालाझार वचूंक कसोच तयार जायना आशिलो. बाबा म्हळें, पुता म्हळें, सालाझाराचें 'न्हो तें न्हो!' हे वटेन गोंयांतल्यो बंदखणी स्वातंत्र्य सैनिकानी भरून गेल्ल्यो. तांकां पालव दिवंक देशांतल्यान निशस्त्र सत्याग्रही आयले. पूण सालाझारान तांका शस्त्रान जाप दिवन फार सोडून मारले.

पुर्तुगालाक गोंयच्यान धांवडावप आमकां गोंयकारांक कशेंच शक्य नाशिलें. आमी मनान केन्नाच भारतांत विलीन जाले. पूण कुडीची सुटका जावंक नाशिल्ली. जवाहरलांल आमची सुटका करतले म्हण आमी रावताले. पूण आपूण हातांत शस्त्र घेवचेंना, उलोवणीं-बोलणीं करून ब्रिटिशांक धाडले, फ्रेंचाक धाडले तशें पुर्तुगेजांकूय धाडटले म्हण जवाहरलाल दीस काडूक लागले. जायत्या गोंयकारांक तशें देशांतल्या कांय फुडाऱ्यांक आनी जनतेक जवाहरलालांची ही धारणा पसंत नाशिली. आयज वल्लभभाय जाय आशिले अशे तें म्हणटाले. कारण गोंयांत अत्याचार वाडत वताले. सालाझारान कितल्याशाच गोंयकारांक पुर्तुगाल आनी आफ्रिकेंतल्या बंदखणीनी धाडिल्ले. गोंयांभायल्यान आयिल्ल्या सत्याग्रहींकूय आग्वाद आनी हेर बंदखणीनी तळमळायत दवरलेले.

जवाहरलालांक हे गजालीचे त्रास जायनाशिल्ले अशे न्हय, पूण हो गोंयचो प्रस्न एक दीस शांततायेन सुटतलो हे आशेन ते रावताले. खरें म्हळ्यार, तांच्या दर एका लोकसभेतल्या आनी भायर केल्या उलोवपांत तांकां जाताली ती व्यथा व्यक्त जाताली. कांय लोक तांकां समजून घेवपाचो प्रयत्न करताले तर कांय जाण तांकां हिम्मत नाशिल्ले म्हणटाले.

निमाणें जवाहरलालांक हातांत शस्त्र घेवचेंच पडलें. आफ्रिकेंतल्या स्वातंत्र्य सैनिकानी तांचेर चेपण घालें. 'गोंय पयलीं मुक्त करात. आमी मुक्त जावपाची हीच खरी गुरुकिल्ली,' ते सांगताले. दुसरे वटेन तिसरें म्हाझूज पेटल्यार गोंय अमेरिकेचो मिलिटरी तळ जावपाची शक्यताय न्हयकारूंक येनाशिली, कारण त्या वर्सानी अमेरिका आनी तिचे संवगडी देश वचत थंय तांचे मिलिटरी तळ स्थापन करताले. तितल्यांत किजील चिगळचें आनी भारतान युनोंत वचचें हो हेत दवरून पुर्तुगेज लष्करान गोंयांतल्या आंजेदीक तळावयल्यान भारतीय दर्यांत आशिले एके बोटीचेर फार सोडले. जालें. शिशुपालाचे शंभर अपराध भरले. आतां रावप

शक्य नाशिलें. भारतान सैन्य धाडून सव्वीस वरांत गोंय मुक्त केलें. साडेचारशीं वर्सां आदीं भारतांत सगळ्यांत पयली ह्या गोऱ्यांचे काळे पांय लागिले ते सगळ्यांत निमाणे डिसेंबर 19, 1961 वेर परतीचे वाटेक लागले. कराची सावन एक बोट आयली आनी सगळ्या मस्त्या पाखल्यांक आनी अन्नाडी गरीब खांपऱ्यांक घेवन गेली. 'गोंय मुक्तीन भारत देश सर्वार्थान मुक्त जाला' अशे इतिहासीक उद्‌गार तेन्ना जवाहरलाल हाणी काडले.

आमी हो इतिहास घडटना उकत्या दोळ्यांनी पळयलो. थोडो भोव वांटो घेतलो. स्वातंत्र्य सैनिकानी भितर रावन सोंसले, पूण जवाहरलाल हाणी भायर रावन सोंसलें हातूंत दुबाव ना.

आतां फाटीं वळून व्हडल्या कॅनवासार पळयल्यार आमी जवाहरलालांखातीर स्वातंत्र्यसैनिक जावक पावले अशें जाणवता. चळवळ गोंयांत जावंदी अशें ते म्हणटाले. आमी दिल्ल्या लढ्याक लागून पुर्तुगेजाचेर चेपण आयलेंच पूण जवाहरलालांचेरूय आमचो दबाव पडटालो. भिजूड म्हणून ते फाटी रावनाशिले. गांधीजीनी तर तांकां निर्भयांतले, धाडशांतले पयले मानिले, पूण ते 'रॅश' न्हय अशेंय म्हणिलें. खरें म्हळ्यार जवाहरलाल हाणी गोंयांखातीर जें सोंसले ताचेमुखार आमचें सोंसप काय न्हय. तांच्या जिविताचो आनी वावराचो अभ्यास केले उप्रांत हें जाणवता. एदेंशें गोंय! गोंयांक लागून जवाहरलालांक जैत मेळ्ळें काय तांचो पराजय जालो हाचो अभ्यास गंभीर विचार करतल्यांनी करूंक जाय. क्षेत्रफळाच्या आनी लोकाच्या आंकड्यांच्या मानान गोंयकारांनी खूब सोंसलें अशें जवाहरलाल म्हणटाले. गोंयकारांक दिल्लें हें सर्टिफिकेट. गोंयांक लागून जवाहरलालानी कितलें सोंसलें हाचें माप घेवपाची कुवत गोंयकारांक आयिली आसा अशें आमच्यानी म्हणू येत न्हय?

पोलीस ॲक्शनान हैदराबाद ताब्यांत घेतलें तशें तेन्ना गोंयूय घेव येतालें. तें घेतलें ना हें गोंयकारांक फायद्याक पडलें. कारवार जशें कर्नाटकाक मेळ्ळें तशें घडये गोंय महाराष्ट्राक प्रेजेंट कशें मेळटलें आशिल्लें. कर्नाटकाचोय (म्हैसूर) गोंयचेर दोळो आशिलो. पूण जवाहरलालांनी निजलिंगाप्पाक पत्र बरोवन गोंयचेर दोळो दवरूं नाकात म्हण स्पश्ट शिटकायले. मुक्त जाले उप्रांत आमी गोंय वेगळें दवरुपाचो निश्चय केला अशें जवाहरलाल स्पश्ट सांगताले.

त्या काळा मुंबय आशिल्ल्या गोंयकार फुडाऱ्यांची चलणूक जवाहरलालांक पसंत नाशिली. 'गोंयांत तुमचे भाव भयणी बंदखणींत आसात आनी तुमी मुंबयंत आपसांत झगडटात हें सारकें न्हय.' ते शिटकायताले. कारण हे मुंबयचे फुडारी पुर्तुगेजाचेर दबाव घालचे बदला दिल्लीक वताले आनी तेवूय बी आपसांतलीं किजिलां तांच्या कानार घालूंक. एका पत्रांत जवाहरलाल बरयतात "Most of the Goan leader are very irreponsible!' (पळयात : Selected works, pant II no. 36)

राजकारणांत सगळे प्रस्न अहिंसेत सुटावे करूंक जातात अशें जवाहरलाल माननाशिल्ले. ते भारत शस्त्रां हातांत घेवचोच ना म्हणनाशिले. पूण जाता ते मेरेन झूज टाळूंक पळयताले. पूण गोंयचे बाबतींत; हैदराबादेचे बाबतींत तशें काश्मिरचे बाबतींत तांका ते शक्य जालें ना.

विनोबाजी तर शांतिसेना उबारची म्हणटाले. जवाहरलालांक तें पटनाशिलें. तांच्यांत चर्चा चलताली.

जवाहरलाल हाणी गोंयां सैन्य धाडलें म्हण पश्चिमेंतल्या राष्ट्रांनी तांकां गुन्यावकार थारायले. पूण सैन्य धाडप ही काळाची गरज आशिली आनी जवाहरलालानी अमेरिकेक आनी हेर देशांक सैन्य धाडचोना अशें उतर दिवंक नाशिलें.

वाचिसारको हो धा वर्सांचो इतिहास आसा. तांतल्यान जवाहरलाल कितले संवेदनशील आशिल्ले तें कळटा. खूप रक्तपात पळयल्लो. खूप क्रौर्य अणभविल्लें आनी देखिलें. खिणाखिणाक तांकां गांधीजी येवजताले.

गोंयकारांचें भाग्य, ताणी सुटके – झुजांत वांटो घेतलो. गोंयकारांचें भाग्य प्रत्यक्ष झूज ताणी अणभवलें. गोंयकारांचें भाग्य, तुमी तुमचो फुडार घडयात अशें आश्वासन गोंयकारांक मेळ्ळें. गोंयकारांचें भाग्य तांकां जनमत कौल मेळ्ळो. गोंयकारांचें भाग्य तांची भास कोंकणी तांकां मेळ्ळी आनी गोंयकारांचें भाग्य कोंकणी राज्य तांकां मेळ्ळें. हें सगळे जवाहरलालांचें दायज.

जवाहरलाल सदांच म्हणटाले – ‘आमी ल्हान. पूण गांधीजीनी महान ध्येयापासत आमकां वावरूंक शिकयले. आनी आमीय बी म्हान दिसूंक लागले.’ जवाहरलालांनी गोंयकारांक सांगलें, ‘तुमीय म्हान ध्येयापासत वावरूंक लागात, बऱ्याक पावतले.’

*****

अशे तरेचे ते भरिल्ले तशे भारिल्ले दीस धा वर्सां आशिलीं. भरिल्ले ह्या अर्थान म्हळ्यार देशांत दर दिसा कितें ना कितें चलतालें. तें नागरिकाक स्पर्श करतालें. परदेशी सोयरे तर लागून येताले. अमेरिका रशियाचेच फुडारी न्हय तर ल्हान ल्हान राष्ट्रांचे फुडारी भारताक भेट दिवंक येताले. लायनी लावन येताले. आमी तांच्यो सभा उगत्या मळांचेर लाखांनी लोकांमुखार जाताल्यो. आतांचे भाशेन आतंकवाद तेन्ना नाशिलो. देश वयर सरता ही भावना दर एका भारतियाच्या काळजांत वसताली आनी ताका वावरूंक उर्बा दिताली. आमी एक महान राष्ट्र भावनेन आमकां भारून उडयल्लें.

1950 वर्सा मेरेनचो काळ संघर्षात गेल्लो. महात्मा गांधींच्या बलिदानान एक पर्व सोंपलें. दंग्यांक लागून व्हांवतालें ते रगताचे पाट थांबिल्ले. देशाचे बांदावळीचो तो सुवर्णकाळ आशिल्लो. आर्थिक तशी मानसिक बांदावळ. तेन्ना कंप्यूटर नाशिल्ले. कम्प्यूटर येवचे आसात म्हणपाची सुलूस लागिली. सायंटिफीक टेमपेरामेण्ट' हीं उतरां चालंत जाल्ली.

आनी अशे तरेन ह्या धा वर्सांत जवाहरलाल नेहरू हाणी देशाक अर्थीक नदरेन एक बुनयाद घालून दिली. हे बुनयादीक लागून घर बांदून जातलें. देशांत पयसो घोळूंक लागतलो. दळदीर सोंपपाचे वाटेक लागतलें. पूण देश संयम पाळटलो मू? काय फोल्गाचे वाटेक लागतलो? तशें जाल्यार ती एक ट्रेजडी जातली. जवाहरलाल शिटकायताले.

●●●

# बायपास



**– दिलीप बोरकार**
साहित्यिक आनी संपादक बिंब



इगर्जेची बारांची घांट वाजली आनी आगुस्तान मारीसांतानाक उलो मारलो.

"मारी, जेवया मुगो?"

मारीसांतान कडयेंत बांगड्या कुडके उडोवन कडये आयदन चुलीर दवरूंक वतालें. कुट्टीन आयजूय बांगडेच हाडिल्ले. वीस रूपया एक सांगतालो. पूण मारीसांतानान घासाघीस करून पन्नासांक तीन घेतले. बांगडे पळोवंक फडफडीत दिसताले. पूण तांका आसूंक जाय तशी रूच नाशिल्ली. पूण नुस्त्या बगर उंडी ताळ्या सकयल देंवना म्हूण जे कितें कुट्टी हाडटालो तें ताका घेवचें पडटालें.

कुट्टी सायकलीर पाटलो बांदून हातांत पॉंक पॉंक होर्न घेवन गांवभर पॉंक पॉंक करीत भोवतालो. दारांदारांनी वचून नुस्तें विकतालो. बरें, बाजारांत वचून जाय तसलें नुस्तें हाडपी म्हूण कोण आसा? आगुस्तान बाजार पळयल्यार कितले दीस जाल्ले. आनी हे पिरायेर ताका बाजारांत धाडप म्हळ्यारूय भिरांतूच शी! खंयीय पडलो बिडलो जाल्यार मागीर ती विकती पिडा म्हणपाची!

तसो आदीं तो बाजारांत एक पासय बी मारून येतालो. पासय मारून येतालो म्हणचे परस मारीसांतानूच ताका वचून यो म्हणटालें. त्या निमतान पांय सदळ जातले! नातर घरांत बसून बसून ते आखुडटले. जितले घोळटात तितलें बरे अशें ताका दिसतालें. आनी आगुस्ताकूय तितलोच टायम पासूय म्हणपाचो. पूण तांच्या घरामुखावेल्यान नव्या बायपासाचें काम सुरू जाल्ल्याक ताचें बाजारांत वचपाचेंय बंद जाल्लें. ट्रकानी माती

हाड हाडून शेतांत ओतिल्ली आनी शेता बांदावेल्यान बाजारांत वचपी पांयवाटूय पुरोवन उडयिल्ली.

वाड्यावेले हेर लोक तशेच वाट काडून वताले. पूण तेय एक दोन म्हळ्यार जाता. पूण चडशे लोक आपल्या घरांत गाडी वो स्कुटर-मोटर सायकल आशिल्ल्यान कुसमणच्यान जांबावले लार्गी करताले. हेर लोक करतात तशें आगुस्त काय करूंक शकनाशिल्लो. पुराय जिवित शेतांत सारिल्ल्या आगुस्तान सायकल लेगीत केन्ना चलोवंक नाशिल्ली. ताची दोन पायांची गाडी त्या बांदावेल्या रेवेंतल्यान जल्मासावन चलताली. आतां बायपासाक लागून तीय वाट बंद जाल्ल्यान आनी नवो जावपी बायपासाचो अर्दकुटो वावर चालू आशिल्ल्यान रस्तो हुपप ताका शक्य नाशिल्लें. देखून ताका घरांतूच बसून रावचें पडटालें.

तशें मारीसांतानान वचूं येतालें. नाय म्हळ्यार तेंच सगळो बाजार करतालें. पूण सप्तकांत एकदां जाय तें सगळें हाडून दवरलें म्हणटकच परतून परतून वचपाची गरजूय पडनाशिल्ली. प्रस्न आसतालो तो नुस्त्याचो! पूण तीय गरज कुट्टी भागयतालो.

कुट्टी हो आंध्राचो भुरगो. रस्त्याच्या कामाक म्हूण आयिल्लो. पूण आतां तें काम सोडून एक सायकल घेवन तो गांवभर भोंवून नुस्तें विकतालो. ताचें नुस्तें खपतालेंय बरें आनी खपचेंना कित्याक?

गांवचे चडशे भुरगे दुबाय, पॅरीस, लंडन अश्या शारांनीं वचून जोडटाले. थोडे बोटीचेरूय गेल्ले. जांचीं लग्नां जाल्लीं आनी जे पॅरीस, लंडनाक बी गेल्ले ताणीं आपल्या बायलां भुरग्यांकूय थंय व्हेल्लीं. गल्फाक आनी बोटीर आशिल्ल्यांच्यो बायलो फ्लॅट घेवन पणजे-मडगांव बी शारांनी रावताल्यो. गांवांतलें शिकप घेतल्यार भुरगीं गांवठीच उरतलीं म्हूण तांका शारांतल्या स्कुलांनी घालपाची शिटकावणीय तांच्या घोवानी तांका दिल्ली. म्हणटकच गांवांत रावून सदांच बशीर भुरग्यांक सोडचे परस शारांनी फ्लॅट घेवन रावपूच बरें अशें चिंतून बऱ्योचश्यो घरच्यो सुनो शारानीच रावताल्यो.

हे असले परिस्थितीक लागून गांवांत तसो तरनाट्यांचो आंकडो उणोच आसतालो. जे कोण आशिल्ले ते सकाळीं कामां निमतान घरा भायर पडटाले ते बद्द सांजवेळार घरा परतताले. म्हणटकच घराकडेन नुस्तें वो हेर दिसपट्टें सामान हाडून दिवपी तशे उणेच आशिल्ले. तेच पासत घरांत आशिल्ल्या जाणट्यांक कुट्टीचो मोलाचो आदार जातालो. कुट्टी दारांत येताच, म्हणटकच नुस्त्या खातीर बाजारांत वचपाचीय तशी कोणाक गरज पडनाशिल्ली.

आतां कुट्टीकडेन नुस्त्याचे वेगवेगळे प्रकार नासताले. आसल्यारूय ते सकाळफुडें खपताले आनी मागीर जे किन्ने उरता तें बाकिच्यांक घेवचें पडटालें.

मारीसांतानाच्या नशिबांत दोन-चार दीस बांगडेच पडिल्ले. त्या बांगड्यांविशीं लोक भलतें सलतेंच उलयताले. कुट्टी जरी ते बांगडे आपूण मडगांव बाजारांतल्यान हाडटां अशें सांगतालो आनी बांगड्यांक

लागिल्ली रेंव आनी तांबडीं कल्लीं दाखयतालो तरी ते बांगडे गोंयचे न्हय अशें लोक उलयताले. ते बांगडे खंय पयसुल्ल्यान केरला, आंध्राच्यान बी ट्रक भरून येताले. ते जितेच उरचे म्हूण तांका खंय कसलें तरी केमिकल घालताले. ताका लागून ते कितलेय दीस उरतात आनी पळयतकच ताजे फडफडीत दिसतात. पूण खातना मात तांका गोंयच्या बांगड्यांचो सुवाद खंयच लागना.

बांगडे कडयेंत सोडटां मारीसांतानाक ती याद जाली. कसलें केमिकल घालतात काय हे लोक ह्या बांगड्यांक?

फाटीं सापोलांतल्या दुमगालो चेडो गल्फांतल्या वॉरांत सोंपिल्लो. ताची कूड काशावांत पॅक करून गोंयांत धाडिल्ली. पूण वॉराक लागून ती बरोच काळ वाटेर आडखळून उरिल्ली. पंदरा दिसानी ती गोंयांत पाविल्ली. पूण कूड सामकी जिवी तट्तट्टीत आशिल्ली. नदर घालपाक आनी दुमगाक पाचारपाक मारिसांतान गेल्लें तेन्ना ताणें थंयच आयकल्लें. कूड बरी उरपाक तिचेर कसलें तरी वखद शिपडायतात म्हूण! देवा तेंच काय वखद हें? मातयेच्या मायटेंतल्या उदकांत बांगड्याचो निमाणो कुडको झंझळावन चुलीवेले कडयेंत सोडटना मारीसांतानाचे तकलेंत दुबाव रिगलो. त्या विचारांनीं ताका बेटीच वीट शी आयली. पूण बांगड्यां बगर ताका दुसरो पर्याय नाशिल्लो.

"मारी जेवया मुगो?"

आगुस्तान आवाजा मोटो करीत मारीसांतानाक सादयलें आनी तें भानार आयलें.

"राव रे मातसो! पोटाक कितें उजो पेटला? उबीं बारा जाताय तिंगा आहाय. कोडी तोरी शिजोनी."

चुलींत शिरपुटां घालीत मारीसांतानान म्हळें आनी मागीर हात फाफडीत तें भायर घोवा लागीं आयलें.

आगुस्त ओल्तेरार बसून वोताच्या रखरखांत भायर पळयतालो. आतां सराक ताचें कामूच तें जाल्लें. पुराय जीण ताची शेत कसपाक सरिल्ली. ताणें आनी मारीसांतानान सांगातानूच शेतांत कणगां, वायंगीं रोयिल्लीं. पुराय गांवच्या आदारान आपल्या शेतांत खांडयानी भात पिकयल्लें आनी हेरांच्या शेतांत वचून दोगांयनीय तांकाय आदार केल्लो. पूण आपल्या भुरग्यांक मात ताणीं आपले वरी शेतकामाक लावंक नाशिल्ले. आपणें खस्ती काडल्यात त्यो शिकप गांठीक नासलेल्यान. ते बगर दुसरो पर्याय नासलो अशें आगुस्त आनी मारीसांतान मानतालें. तेंच जिवीत आपल्या भुरग्यांच्या वांट्याक येवचें न्हय अशें दोगांकूय दिसतालें. तेचपासत ताणीं आपल्या दोगांय भुरग्यांक बरेऽ शिकोवन व्हड केल्ले. शिकिल्लें खंय वचना. शिकल्या उप्रांतूय ताणीं जाय जाल्यार मागीर शेत कसचें अशें दोगांयचेंय मत आसलें.

पूण व्हडलो पूत शानू मॅट्रीके उप्रांत पर्वरीच्या कॅटरींग इन्स्टीट्यूटांत गेलो आनी डिप्लोमा मेळटकच रोकडोच बोटीर गेलो. उप्रांत काजार जावन लंडनाक सेटल जाल्लो. ताणेंच आपल्या धाकल्या भावाकूय,

ॲस्लीक मागीर लंडनाक व्हेल्लो.

आपल्या जाण्टेल्या मांय-पायक एकटीं उडोवन दोगांय पुतांक इतले पयस वचपाचें नाशिल्लें. पूण सगळेच पॅरीस आनी लंडनाक वचून घसघशीत जोडटाले. तांचेच लगाडीक लागून तेय गोंय सोडून थंय गेल्ले आनी थंयचेच जाल्ले.

आगुस्तान आनी मारीसांतानान तांचे इत्सेक आडखळ हाडली ना. ताणींच तांका सांगिल्लें, आमचो हुसको करिनाकात. तुमचीच खुशालकाय अर्दी मर्दी कळयात आनी तातूंत सतूय आशिल्लें. शेजाऱ्यांच्या सांगातान दोगांय आपल्या शेतांत रावतालीं. शेत कसपा मुखार तांका कित्याचीच म्हणटात तशी याद जाय नाशिल्ली. आपूण जिवीं आसात म्हणसर पुर्वजांचें शेत जाता नज करून कसपाचें आनी सामकेंच नज तेन्ना सोडून दिवपाचें.

तांचें शेतूय तशें ऐसपैस आशिल्लें. वीस-पंचवीस खांडयो भात कोणेंच व्हरूंक नाशिल्लें. ते भायर कणगां, वायंगीं, मुळो हांचेंय पीक घसघसून येतालें.

पूण तांच्या ह्या सुखाक कोणाची नदर लागली देव जाणां. शेकानशेक पातळिल्ल्या तांच्या पिकाक शेतांतल्यान बायपास व्हरपाचें थारलें आनी सरकाराचे मनीस येवन ताणीं जमीन मेजून, शेताच्या मदेकात माती घालून रस्त्याचें काम सुरूय केल्लें.

आगुस्तान पुतांक लंडनच्यान आपोवन हाडले आनी ताणींच आपल्या पायक सांगलें, आतां गोंयची उदरगत नेटान जाता. ती जाय जाल्यार आमच्या सारख्या गोंयच्या लोकांनी त्याग करूंक जाय. आतां शेतां रोवपाक आमी खंय येतले? तेन्ना रस्तो जर वता जाल्यार वचूं दी. रस्त्याक गेल्ल्या जमनीचे दुडू मेळटले.

आगुस्तान आनी मारीसांतानान पुतांचें आयकून घेतलें. आपल्या शेताचे दोन कुडके जातात ते पळोवन तांच्या काळजाक हाय जालें खरें. पूण शेत रोवपाकूच मनीस ना जाल्यार तें आसून उपेग कितें? चार लोकांचें बरें जाता जाल्यार जावं! तातूंत एकूच खोसयेची गंजाल म्हळ्यार शेताचे समान अशे दोन वांटे जाल्ले आनी मदलो जो पाट सरकाराक गेल्लो ताचेच दोन लाख रुपया मेळिल्ले. पुतानी लंडनाक वतना सांगिल्लें, आमकां त्या दुडवांची आस ना. तुमकां जाय तें करात. खायात - पियांत. जिवाक मारी नाकात.

पूण गरीबकायेन जीण सारतल्या आगुस्त आनी मारीक मोठेपणाची हांव नाशिल्ली. सुनानी घरांत गॅस, फ्रीज, टिव्ही बी हाडून दवरिल्लो. ताचो वापर लंडनाक साकून आठ दिसांक मुदासांवाक येतात तेन्ना तीच करतालीं. मारीसांतान आनी आगुस्ताक लाकडां उज्याचेर रांदिल्लें जेवण जेवल्या बगर अरगतीक पडनाशिल्लें.

बायपासाचे दुडू मेळिल्ले आनी ते आगुस्ताच्या नांवार बॅन्केत पडून आशिल्ले. पूत दुडू धाडटाले तांकाय हात लावपाची गरज पडनाशिल्ली. शेतांत पिकता तेंच तांका जेवणा खाणाक पुरो जातालें. पूण आतां बायपास

आयिल्ल्याक शेत कसपाचीय परिस्थिती उरूंक नाशिल्ली. आदीं जशे लोकूय एकमेकाच्या शेतांत आदारा खातीर वताले ते लोकूय आतां उरूंक नाशिल्ले. तरणे लोक एक तर नोकरेक नातर देशाभायर चाकरेक. म्हणटकच थोडे कोण कर्नाटकांतल्या मानायाक घेवन आपलीं शेतां कसताले. थोड्यांनी तीं नज जावन पडींगूच उडयल्लीं.

आगुस्ताक तर गोंयचे मातयेंत भायलो लोक देंविल्लोच नाका आशिल्लो. आपली जमीन कसतलों तो आपूण ना जाल्यार उरनी तशीच म्हणत तोय घरांत बसून आशिल्लो.

खरें पळोवंक गेल्यार तांची पिरायूय आतां शेतांत देवपाची उरूंक नाशिल्ली. उरिल्ले दीस घरांत बसून सारप इतलेंच तांच्या वाट्याक आयिल्लें.

आगुस्ताक ओल्तेरार बसून आपल्या शेताचेर नदर मारतना पळोवन मारीसांतानाक कितेंशें जालें. त्याच शेतांत दोगांयनी मरसर कश्ट केल्ले. पूण त्या कश्टांचें केन्ना दुख्ख जावंक नाशिल्लें. पूण आतां तेंच शेत पडींग उरलां आनी कसपाक कोणूच ना तें पळोवन तांकां खंत भोगताली.

आगुस्त ओल्तेरार बसून तेंच चिंतता हें मारीसांतान जाणां आशिल्लें.

''आडटां रे आगुस्त, कोडी जाली मिस्ता. वास येयलो.''

आगुस्ताक जागयत मारीन म्हळें.

''जेवया गो, राव मातशें. म्हाका सांग गो, आमी ह्या शेता कितें कोच्चें?''

आगुस्ताच्या हुसक्या भरीत आवाजान मारीसांतान हुंबऱ्यारूच रावलें.

''कितें कोच्चें म्हुणचे? शेरकारान दोन वांटे घायल्याय न्हुरे तेचे? दोगांय पुतांक एक एक पुरो.''

मारीसांतानान हांसत म्हळें.

''तें तेंकाच गो. तेंका तेचें जाय तें कोन्नी. पूण आतां म्हुणटां हांव. म्हाज्यान तें शेंत ओहें पाड पोडलेलें चोवंक जायना.''

''मागीर कितें कोरया म्हुणटा तूं? तें रोवपा इदाद उल्ल्या आमची?''

''हांव म्हुणटालों, हो बायपासा दुडू आहाय बॅन्कात ते थोडे थोडे कांण्ण मानाय घालून शेत वसयलें जाल्या शिरी पोडपा ना?''

''तूं मोत्तोलो त्या मानायां लागीं? दुडू खावन, शेत पाड घालन पोवतोले ते! तेंचे हाटीक कोण लागतोलो?

चल, जेवया आमी.''

मारीसांतानान आगुस्ताचो हात धरीत ताका ओल्तेरावयलो उठयत म्हळें.

ताचेंय म्हणणें खरें आशिल्लें. आतां गोंयांत गोंयकार मानाय, कामेऱ्यां मेळप कुस्तार जाल्लें, मेळटाले ते आंध्रा-कर्नाटकांतले बी कामगार. दुडवां खातीर ते शेतांत देंवतालेय. पूण शेताक जो मोग जाय लागता तो तांचे मर्दी खंय आशिल्लो? आनी मोग ना जाल्यार शेत तरी पीक कित्याक दितलें? त्या परस आसा तशेंच आसूं अशें दोगांयचेंय मत जाल्लें.

''तुका जायें जाल्यार रोवया रे आगुस्त. बायपासाचे दुडू बँकान दवरून तोरी कोत्तोलीं कितें? घालया दोन-चार मानाय कामेऱ्यां.''

आगुस्ताक बरें दिसचें म्हूण मारीसांतानान जेवतां जेवतां आगुस्ताक म्हळें. मारीचो हयकार आयलो तो पळोवन आगुस्ताकूय बरेंऽ दिसलें. आपल्याकडेन जाता म्हणसर आतां पडींग पडिल्लें आनी दोन वाटे जाल्लें शेत आपूण कसतलों हे उमेदीनूच ताका तें उकडे तांदळांचें शेत आनी बांगड्यां कडी अदीकूच रूचीक लागली. दोगांय गजाली मारीत मारीत फुडल्या वावराच्यो खबरी करीत जेवंक लागलीं. इतल्यान सालांतलो फोन वाजलो. आपले मांय - पायची खबर घेवपा खातीर पुतानींच तीं नाका म्हणटा आसतनाय फोन घरांत घेतिल्लो.

''आतां आनी हो कोणा फोन काय देनपारां?'' अशें म्हणत मारीसांतान जेवणावेल्यान उठलें. ताणें बेगीबेगीन फोन घेतलो. फोनाचेर शानुची बायल लंडनच्यान उलयताली.

''हॅलो, हॅलो, मांय हांव दुल्शीन उलयतां.'' ताचो आवाज थरथरतालो. देवा सायबा कितें जालां काय? मारीसांतानाचो आवरो उडलो.

''मांय, शानू बरो ना. तेका अॅटॅक येयला. दोतोरांनीं सांगलां तेजें बायपास कोरूंक जायें. बँकांत बायपासा दुडू आहाय ते अॅस्लीन धाड म्हुणल्या...''

आनी मारीसांतानाच्यान फुडलें आयकूंक जालें ना. ताचो आवरो उडलो. ताची जेवणावेली वान्साच गेली. तें फोन तसोच घेवन आगुस्ताकडेन पळेत रावलें आनी आड्डेलें.

''आगुस्त, शानूबाबाक बायपास फूंय मुरे!''

आयकून आगुस्तान तोंडांत घेतिल्ली उंडी तोंडांतूच उरली.

●●●

# पोस्टर

–एन. शिवदास


णाची कोण खंय कशी गांठ बांदता हें सामान्य मनशाचें समजणे भायलेंच. नातीं कशीं निर्माण जातात हें सांगप खूप कठीण. ते खातीर लोकांमदीं जायत्यो समजोण्यो जायत्यो ओपारी जांव जायती उमाणी प्रचलीत आसात. 'लग्ना मळबांत जातात' ही ओपार परकी काय स्वकीय ती खबर नासप हें कोणाचेंय घडये अज्ञान आसुये पूण कांय घडणुको पळेतकच ती ओपार खरीच कशी दिसता. घडे भरतकच वडे जातात ही थळावी ओपार पूण घडे खंय आनी कोण कशे भरता तेंच समजना देखून घडये जायत सोनियान म्हाका म्हळें पापा ज्यूस्त ताजे खातीरच पंकज देवान निर्मूक नाशिलो मूं? सोनिया केन्ना केन्नाय बापायक म्हळ्यार आपल्या पापाक गुडांत घालपा सारकेच प्रस्न करता तेन्ना सोनियाचो पापा म्हणून म्हाकाय धादोसकाय जाता. ताजेखातीरच पंकज म्हळ्यार सोनियाचे भयणीखातीर हें म्हाकां समजलें. हांवे विशय मात्सोसो वाडोवया, ह्या विशयार इल्ली चर्चा करुया म्हणून सोनियाक म्हळे, 'शानी' हांव सोनियाक अपुरबायेन लाडान 'शानी म्हणूनच उलो मारतां. साप्प भुरगें आसतना माणकुल्यांक आवय-बापायन दवरिल्ली ही नावां शानी-गुनी, बायू-बाय, पिपूशी बी. सोनियाक हांव शानी म्हण्टा आनी ताजे भयणीकूय शानुलो शानुली म्हण्टा. कोणाय हुजरां व्होकलो जाल्ल्यां ह्या धुवांक ह्या बाळनांवानी उलो करतकच तांका बरोच राग मारता आनी तीं येदे दोळे करून तांचो राग उक्तायतात तेन्ना हांव शिटकावतां आनी मागीर सोनी सुद्धां न्हय सोनियाच म्हण्टा. सोनियान पंकजाक ताजे भयणी खातीरच रचणारान निर्मिलां म्हळ्यार मेड फॉर इच अदर. परत तीच ओपार परकी काय स्वकीय तें खबर ना, पूण ओपार खूप अर्थपूर्ण. उर्मिला खातीर पंकजाची सोयरीक आयिली तिवूय बी आताचे पद्धतीन इंटर नेटावयल्यान ब्राउजींग करतां-करतां. भारत मॅट्रोमोनीत पंकज उर्मिलाचो बायोडेटा खंय तरी जुळीलो, दोगानीय एकामेकांक पसंत केल्ली.

पापा म्हण्टकच बापायची भुमिका वाडिल्ल्या व्हंकलाखातीर आसता ती बरोसो उपवर पळोवपाचो, सोदपाचो, हाका ताका म्हणपाचें, पळे रे बरोसो भुरगो म्हजे धुवेक आनी मागीर आयकतल्यान अमक्याचो आसा तमक्याचो आसा, अमकें शिकला, तमकें करता, इतली जोड तितली मोड, येदें घर, तेदो बंगलो, दुबय आसता, ऑस्ट्रीयेक रावता, इतलो उंच तितलो गोरो, बारीक मोटो हे सगळें मागीर पर्वणाक येता. पूण खंय जुळना – खंयच पटना जांव मॅचींग जायना, जातकात – धर्म बी आड येता तेन्ना मागीर मनीस – मनशाकडे नातें जोडूक पळेतल्याक प्रश्न पडटा, नेमको मनीस कोण टायम्सात मॅट्रीमनी कॉलोमात अमकी जात, अमके गोत्र, रोमन कॅथोलीक, शिया-सुनी जावं पंजाबी, खत्री, वैश्यवाणी अशो आपणाल्यो जाती. जायरतीनी मिरोवपी दर वर्तमान पत्राचे मॅट्रमॉनी कॉलम खरे कांय त्याच कॉलमांत एक तरी जायरात आसल्यार जी वाचूक मेळटा. जात-पात-धर्म बिर्म गोत्र-बित्र शंबर – कुळी – शेयाण्णव कुळी लागना, व्यक्ती बरी आसकच जाली अशें बरोवन सोयरीक करपाची वान्सा धरप्याची जायरात खरी?

सोनियाच्या प्रश्नाक जाप दिवचे सोडून हांव म्हजे भितरूच कांय खीण बुडलो. 'पापा तुवें जाप दिलीना?' सोनियान म्हाकां भानार हाडलो.

'हय, पूण अशें तूं नेमकें कित्याक म्हण्टा, ती दोगायं एकामेकाखातीरूच निर्मिल्यात म्हण? हांवे सोनियाच्या मनातलें जाणपाचो प्रयत्न केलो.

'पळे पापा, पंकजाचें मुखामळ, रुप आनी हेर वागप सुद्धां जुस्ता ज्यूस्त. तांचीं मुखामळां उत्तर पूर्वेकडच्या लोकांच्या रुपवट्याकडें म्हटल्यार बद्ध नागा लोकांकडे जुळटा. 'हो', सोनियाचे इतलें सुक्ष्मनिरिक्षण पळोवन म्हाकां अजापूच दिसलें म्हणचे परस सोनियाची वेगवेगळ्या प्रांतातल्या आनी प्रदेशांतल्या लोकांचे कुडीची देवण-ठेवण ह्योवूय गजाली बारीकसाणीन लक्षात दवरप, बरी साचोटी, सोनियाचें एक बरें आंग कशें दिसलें.

उर्मिलान पंकजाक पसंत केल्लो तेन्ना एका अर्थान म्हाका समादान दिसलें. ताणेंच सोदलो, आता ताज्या वायट – बऱ्या फुडारांक तेंच जबाबदार आसतलें, ना जाल्यार लग्ना उप्रांत अशें तशें जाल्यार, बरें जालें जाल्यार व्होकंल न्हवऱ्याचें, वायट जाल्यार रायबाऱ्याचें. आपणाल्या धुवांची लग्नां जुळोवपाच्या बाबतींत पयलो खरो रायबारी जावचो पडटा तो तांच्या बापायक. आपणाल्या पोरसांत बरें फूल फुललां हांचे खरें पेरगांव घालचें पडटा तें बापायक. आनी म्हज्याय नशीबांत हें रायबाऱ्याचें सवंग बरोच तेंप आयलें. पूण आतांच्या काळार चलो – चली स्वताच रायबारी जातात तेन्ना आवय-बापायक सू जाता. उर्मिलान बापायची म्हळ्यार म्हजी आवतीकाय पळोवन स्वता रायबारी जावपाचो निर्णय घेतिल्लो, आनी म्हजे भशेन तेवूय प्रयत्न करताले. फरक इतलोच की तें घरात संगणकाफुडें बसून इण्टरनेटार ब्राउर्जींग करतालें. ताका यश आयलें, भायर हांव हरलो. मॅट्रीमोनीतल्यो जायराती सुद्धा कित्याक उपकारा पडल्योना. जात खंयची, गोत्र कितें, कुंडली आसा, तुमी मराठी शेण्याव कुळी कांय आनी मसणो?

मॅट्रीमोनीतल्या जायरातींतलो आनी एक अणभव तर कसो विसरूक जायना. एकेभले सकाळी फोन आयलो 'हॅलो तुमची जायरात...' दुसरे वटेन एके बायलेचो आवाज. हांवें म्हळें कोण उलयतात, ते वटेन ते बायलेन सरळ आपणाले आडनांव सांगत म्हळें, हांव मिसेस घाणेकार उलयतां, म्हापशेंच्यान, तुमची चली – तिणे फुडलें विचारचे परस हांवेच तिका म्हळें, तुमी जायरात सारकी वाचल्या मूं?'

ना, फुडें चड विचारपूस समजून – उमजून करतकच जापो दिवपाक म्हाका राग मारता... तिका म्हजो सूर समजला जांवये तिणे तेवटेन फोनार म्हळें आमकां उपकरता, आमी तशीं सारस्वत, पूण आता कितें करतोलो उपाय ना न्हय, ते भायर चली बरी आसा – ती उलयताली पूण तिका थांबवप गरजेचें आसलें. हांवें म्हळें तुमी अस्सल सारस्वत, आनी आमी अस्सल नायकां म्हळ्यार भंडारी, उपकरता? – हांवे सरळ सांगलें, घडये जायरातीतलो सगळो मजकुर तिणे वाचिलो नासुये जायत म्हण म्हळें पयली जातीचे क्लियर करूया. शिकिल्ल्या आयच्या कुटुंबानी जाती–कातीचो फाजील अभिमान केदो आसता तो शिकिल्ल्या चाटेपावलाक अणभविल्ल्या म्हज्या सारक्यांक पयली हेच गजालीची पयली दखल घेवची पडटा. फोना वयल्यान उलोवपी मिसेस घाणेकान्नीच्याय टोनात तिगेलो सारस्वत स्वर बरोच ठोसून भायर पडटालो, ते खातीर तिका परत एक प्रश्न करचो म्हण हांवें विचारलें 'हॅलो, तुमी सारस्वत न्हय?' 'शी–शी. हें आनी कितें विचारप, घाणेकार आडनावाचे सारस्वताबगर गोंयांत दुसऱ्या जातीत कोणूच ना.'

हॅलो, हांव जाणा, घाणेकारांक हांव खूप वळखता, कर्मट–उर्मट आंबट–तिकट आनी गोडगोड घाणेकार हांव जाणां, पूण तुमी सारस्वतां भायली चली सून म्हणून व्हरूंक सोदतात, ताजें अजाप दिसता. तुमी खूप सुदारलेलीं, प्रोगेशीव प्रागतिक आनी खूप सुसंस्कृत आसूंक जाय, सिवीलायझड –

'ना... ना... ना... तशें काय ना, हांगासर आमचो मातसो विचको जालो, उपाय ना न्हय, नाईलाजान जातीभायर सोयरीक पळोवपाची पाळी आयल्या' म्हाका तिच्या स्पश्टपणाचें कौतुक दिसलें, मनांत कितेच लिपयनासतना तिणें खरें सांगलें. तिणें फुडें फोनार म्हळें, 'हॅलो, चलो डायवर्शी, बरो दोतोर तरणाटो, उंच, गोरो पिट्ट, पदराक सगळे आसा पूण नशीबात 'डायवर्स' आसलो पोराच्या!' तिज्या काळजांतली कालवाकालव आनी काकूळट भावताली. तरी सुद्धा हांवें तिज्या भावनाचो आदर करीत परत म्हळे हॅलो मिसेस घाणेकार 'तुमी तुमचेच सारस्वत जातीतले चलये–खातीर परत प्रयत्न कित्याक केलेना?'

'केले न्हय, शंबर प्रयत्न केलें, पूण सगळीच चांडाळ चौकशी, कोणाकोणाक म्हणून सांगतली डायवर्स कसो आनी कित्याक जालो तो? डायवर्स कित्याक जालो हो पयलो प्रश्न. लांब सुस्कार सोडून मिसेस घाणेकार एक खीण फोनार उलोवपाची थांबली. तोच चान्स घेवन हांवेय बी परत तिका म्हळें 'मिसेस घाणेकार डायवर्स कित्याक जालो हें म्हाकाय समजूपाक बरें दिसतलें, कारण पटलें जाल्यार म्हज्यानूय फुडलो पोजेटीव विचार करू येता.'

म्हजे पोजेटींव उतर मिसेस घाणेकान्नीक बरें लागलें. तिणे पलतडच्या फोनार म्हळें, 'कांय ना, सादें कारण,

व्हंकलेची आवय धुवेक फुस लांवक लागली, आवयचे सांगणेन धूव घोवाक सतावपाक लागली, म्हजो चलो दोतोर, बरी जोड आशिल्लो. नांवरुप आशिल्लो, ताका सासूचे ताज्या संवसारांत कालोवणें मानवलेंना. बायल आवयचो पाखो घेवन घोवाकडे वाद घालूं लागली. म्हज्या पुताचो स्वाभिमान दुखावलो. जालें. पेटलें आनी निमाणें घडपाचें तेंच घडलें, जाल्लें लग्न तुटलें, कोर्टांत पावलें आनी म्हजो चलो डायवर्शी थरलो.'

'देखून तुमी जातीभायली चली आता पळेतात? हांवें मात्सो गंभीर जायत म्हळें, आनी ते प्रकरण थंयच काबार करुया अशें चितून बरें भसेन फोनार चाटींग करपी मिसेस घाणेकान्नीक थंडसाणीन म्हळें 'सॉरी मिसेस घाणेकान्न, परिस्थितीक लागून तुमी हो अंतरजातीय लग्नाचो विचार केलो. विचारांतल्यान जातीकातीच्या बंदनाक तुच्छ मानून विचार करूना.' आनी अशे म्हण्टत हांवें रायबारायाचे सवंग थंय मेरेन रंगयिल्लें, आनी सोनियाक ताज्या प्रश्नाची जाप दिवपाचें जें मर्दींच विसरून गेल्लों ताजी याद जाली.

'पापा खंयचे बांयत बुडला तूं?' सोनियाक अळंकारीत उतरांचो सोस. बांयत बुडप म्हळ्यार विचारांत विशयान्तर करप.

हय ना म्हळ्यार खऱ्यानीच हांव रायबाऱ्याच्या भेसांत वावुरतना आयिल्ल्या अणभवाचे बांयत खोल बुडील्लों. तातूत मिसेस घाणेकाराल्या डायवर्सी चल्याक मिसेस घाणेकान्न अगतिक जावन आपणाली सारस्वत जात कडेक मारून भायले जातीतले चलयेकडे सोयरीक करपाक फुडें सरता हो अणभव आगळो वेगळोच आसलो.

पूण सोनियाचो जो मुख्य दुबाव आसलो तो पंकजाच्या मुखामळाचो. पकंज आनी उर्मिला दोगांय रुपान एकामेकाक ज्यूस्त फीट जातालीं. म्हळ्यार उर्मिलायबी तांचेच रेशीतले कशें म्हळ्यार तांचेच वर्गवारीतले वो वर्णातलें कशें दिसतालें, पूण गोंयात कोंकणी मनशामदी अशें रुप कशें येतलें?

'पापा उर्मिलाचे दोळे पळे कशे, केंस पळे कशें वांटकुळेच रुप, खाडकी सुद्धां आनी नाक मात्शें चेपटें' सोनियाचों उर्मिला बद्दलचो बरोच अभ्यास जालां म्हणपाचें कळ्ळें. न्हय तिबेटी, न्हय नेपाळी वो न्हय डोंगरी, तरी सुद्धां उर्मिलाक आमच्या घरात कोणाचें तरी रुप आयिल्लें, आनी बापूय ह्या नात्यान हांव आनी म्हजी अर्धांगी तें जाणां आसलें, पूण उर्मिलाच्या त्या रुपाचें विसरूनच गेल्ली.

सोनिया विज्ञान शाखेचे म्हण्टकच ताका कित्याय कितें सांगून उपकारा पडपाचें नासलें.

''पापा म्हजे समादान करपाचें ना तुकां? एरवी खूप शाणेपणां सांगता मरे तू म्हाकां. देव-धर्मा विशयी तर तुवें कितें सांगपाचें बाकी दवरलां? विज्ञानाचेर पुराय विस्वास दवरुपी तूं उर्मिलाच्या रुपाविशी उप्रासिल्ल्या म्हज्या मनातल्या दुबावाक -

'करता - तुज्या दुबावाक पयस करता. हांवें सोनियाक फुडें उलोवपाक दिवप समा न्हय म्हणून ताका ताजीं उतरा पुरीं करपाक दिनासतना म्हळें.' हें पळें सोनिया, तुजी मम्मी आनी हांव सदाच एकामेकांक

सोडून खंयच वचुना वो खयं राऊना, पूण एक घडणूक उर्मिलाच्या जल्मावेळार घडिली. एक गजाल, व्हेरी इण्टरेस्टींग पापा, सांग-सांग न्हय म्हाकां - उतावीळ जायत सोनियान म्हज्या भुजाक हालयत म्हळें. 'सांगतां, पळे तुका खरें दिसता जाल्यार आमच्या लग्नाकडे, म्हळ्यार तेर्म जेन्ना जाल्लो कायद्यान लग्न जाल्लें आनी आमी घोव-बायलां जाली. खरें म्हळ्यार तेन्ना म्हाका धर्मीक लग्न करपाची म्हजी इत्सा नासली, पूण म्हगेले ते आधुनिक निधर्मी विचार म्हजे आवयक म्हळ्यार तुजे आज्जेक मान्य नासले. तिका समारंभ जाय आसलो, आनी उप्रांत तो आमी केलोय बी.

आमच्या बेडरुमात म्हाकां एके चॉकलेट कंपनीन दिलो बऱ्या एका सोबीत सान चलयेचो पोश्टर लायिल्लो. मुद्दम न्हय पूण पोश्टरातलें तें भुरगें म्हाकां बरें दिसतालें. ताजें घार्शे दोळे, पिंगशे केस, वाडकुळेच मुखामळ, मात्शेशे फोरेनर कशें दिसतलें, ताणें एक हात वयर करून शूशू करतना पयलें मोटें बोट कोणूय ओंठार दवरीनात तशें ताजे बोट ओंठार दवरील्लें आनी ते नाकाच्या पुड्यांक तेकतलें. ते श्शू पोजीत फ्रॉकांतलें चली म्हाकां वण्टीर लायन दिसलो, कॅलींडर लायतात तेच भावनेन वण्टीचे सोबायेक आनी बेडरुमाची गिरेस्तकाय वाडोवपाक वण्टीर हुमकाळायलें तें, पूण... ताजेवयली नदर पडपाची केन्ना चुकलीना. बेडरुमात येतना तो पोश्टर नदरेक पडटालो. न्हिदताना उठ्ठना पोश्टरातलें सोबीत भुरगें म्हाका नदरेक पडटालें. पूण मम्मीक पोश्टर कसो नदरेक पडटालो काय ना ते म्हाका खबर ना, पूण म्हाका याद आसा एक दीस न्हिदपाक वतना तुजे मम्मीक हांवें म्हळें 'सुमन, हो पोश्टर व्हरून भायर हॉलात लावया हांगा कित्याक तो, बॅडरुमांत कोण येतलो तो पळोवपाक' तेन्ना तुजी मम्मी पळे म्हजेर चाळवली, सांगपाचें न्हय.'

'तो पोश्टर सो आयजूच तुका नसाय कित्याक जालो? इतलो तेप तो हांगा आसा, आसूं तो, त्या पोश्टरातलें ते माणकुलें खूप बरें दिसता तुजे मम्मीन सांगिल्लें, आनी मागीर हावूंय बी त्या पोश्टराक हात लावपाक गेलोना. 'पूण पप्पा त्या पोश्टराचो आनी उर्मिलाचो कितें संबंद?'

आगो तेंच तर सांगता न्हय तुका आमचें उर्मिला त्या ज्यूस्त पोश्टरांतले चलयेभशेन दिसता, जेन्ना तें जाल्लें, आनी पयलें बापूय म्हणून हांवे कात सोडील्ल्या उर्मिलाक पळेलें तेन्ना तोच वण्टीवयलो पोश्टर आनी पोश्टरातलें ते भुरगें याद जालें. तेन्ना हांवें कोणाक म्हळेना, पूण उप्रांत तुजी मम्मीय म्हणपाक लागली, उर्मि वण्टीवयल्या पोश्टरांतल्यान आयलां. आनी मागीर आमी त्या पोश्टरांतले चलयेक आनी उर्मिक सदाच पळवप सुद्धां!

'पप्पा, खंय आसा तो पोश्टर?' उमळशिकेन सोनियान विचारलें.

'याद जायना, आमी बिराडां कितलीं बदल्लीं? केन्ना तरी सांताक्रुजाच्यान फोंड्या बिराड हाडटना तो पोश्टर गायब जालो. कांय कोणे पिंजून उडयलो खबर ना-'

'ताजो एक तरी फोटो?' सोनियाक उर्मिच्या रुपाचो गूट समजून घेवपाची उमळशीक लागिल्ली, पूण

पोश्टराची म्हाकाच याद जायना. आसामातले एके नावाजते च्या उत्पादन कंपनीचो तो पोश्टर आशिल्लो इतलीच म्हाका याद जाता, च्याचो एजंट आशिल्ल्या म्हज्या एका इश्टान तो म्हाका भेट दिल्लो. पूण अजाप, धरूया त्या पुर्वोत्तर भारतीय चलयेचें रुप, मागीर ती नेपाळी आसूं, तिबेटी आसूं वो आसामी पहाडी आसूं, अशें घडूं येता? मम्मीच्या गर्भधारणेच्या दिसानी मम्मीक तो पोश्टर नदरेक पडटालो आनी गर्भ ते पोश्टरातले चलयेभशेन तयार जातालो. आनी उर्मिलान त्या पोश्टरातलें चलयेचें रुप घेतलें. विज्ञानान हें शक्य आसा अशें म्हळां, आनी हाचेर प्रयोगूय जाल्यात. उर्मिलाचें बरें आसा, पूण पंकजा सारको नेपाळी ब्राह्मण उर्मिलाच्या जीणेत येवप हाका कितें म्हणप?

'इत्तफाक, योगायोग नाजाल्यार तो म्हण्टा तशे, It was planned in heaven जोडयो मळबांत करतात म्हण्टात न्हय. पोश्टरांतले चलयेक पोश्टरांतलोच साथीदार कसो मेळप, कोण खंयचो आनी कितें? कोण घडयता ही नाती-गोतीं?

'पापा कितें येवजिता?'

'तेंच, तूं येवजिता तेंच. उर्मिला – पंकज जोडयेचें.

'पापा, एक विचारूं – उर्मिच्या वेळार बेडरुमात तुवे त्या आसामी च्यामळ्याची जायरात करपी चलयेचो पोश्टर दवरिल्लो, म्हज्या वेळार कोणाचो पोश्टर बेडरुमात आसलो?

'म्हजो, म्हजोच एकट्याचोच व्हडलो फोटो हांवे बॅडरुमात लायिलो, तूं म्हजो पोश्टर न्हय म्हजें कार्टून – आनी सोनिया खो करून मळबभर हांसलें आनी पापा... म्हजो पापा म्हणट म्हजे वेंगेंत आयलें. हांवें ल्हवूच म्हळें

म्हजी शानी... म्हजी गुनी –

पापा... तू... म्हजो पोश्टर.

शानी...



# मोगान अणकारिल्लें मोगाचें वर्तमान

– फा. मोउजीञु द आताईद
रायतुरची सिमिनार



स्ती धर्म पवित्र पुराणाचो धर्म, इजलाम आनी सीख धर्मा भशेन, म्हणचे ख्रिस्ती धर्म पवित्र पुराणाचेर धरलेलो आसा. पवित्र पुराण ख्रिस्ती धर्माचे शिकवणेचो आपरोस. ही व ती ख्रिस्ती धर्माची शिकवण सामकी आसा की ना तें आमी जाण जावंक सोदतात जाल्यार, पवित्र पुराणाशीं आमी वचूंक जाय आनी चत्रायेन वाचूंक जाय. पवित्र पुराण ख्रिस्ती शिकवणेची झर. पवित्र पुराण घडल्यार हजारांनीं वरसां जालीं, आतां जिवंत ना त्या भासांनीं तें बरयलां आनी त्या काळावयल्या पद्धतींनीं, म्हणटच पवित्र पुराणाचे समजणेंत वेगळोचार आनी अंतर आसाच. देखून ख्रिस्ती धर्माचे फांटे बी जाल्यात. मुख्य प्रवाह कातोल्क ख्रिस्ती सभा, स्वामी जेजू थावन ती आज मेरेन तुटूंक नासलेले सांखळेन चलता. ही सभा मांदावळीन बांदलेली आसा. शिकवणेचो आनी नेम कायद्यांचो संग्रह हे सभेकडेन आसा. नेमां प्रमाणें स्थापलले शिकवपी आनी व्हडील आसात. सगळ्यांचो शिरोमणी फुडारी पापसायब. म्हणटच पवित्र पुराण ते शिकयतात आनी ताचो अर्थ दितात. असली मांडावळ हेरां ख्रिस्ती गटांनीं ना. पण तरूय, कातोल्क ख्रिस्ती सभेंत पर्यान, थोडे आडवाद सोडून, सगळ्या ख्रिस्ती कातोल्क मनशांनीं मान्य करपाची, अधिकृत अर्थवणी चड ना म्हणटच पवित्र पुराणा विशीं शिकपाक, संशोधन करपाक पुश्कळ सत्त्या, मेकळीक आनी उत्तेजन आसा. हें शिकप आनी संशोधन यज्ञिकी आकारणेच्या घरांनीं (Priests' seminaries) आनी ख्रिस्ती विद्यापिठांनी आनी विश्वविद्यापिठांनी जाता, जंय पवित्र पुराणाची अध्यासनां आनी विभाग आसात. ते भायर पवित्र पुराणांत डॉक्टरेट पसून पदव्यो दिवपी खेरीत विद्यापिठां आसात. ह्या शिक्षण क्षेत्रांनी पवित्र पुराणाविशीं विज्ञानीक अभ्यास चलता. हे तरेन ख्रिस्ती धर्माची वळख खोलायेन अख्ख्या संवसारांत जाता आनी वाडटा.

2) पवित्र पुराण हें उतर 16-17 व्या शेकड्यांतल्या मिसियोनारांनी हिंदू धर्माच्या उतरावळिंतलें उश्णें

घेतलें आनी ख्रिस्ती पवित्र पुस्तकाक लायलें. तेथून थावन ख्रिस्ती पवित्र पुस्तक आमी पवित्र पुराण म्हणटात. पूण हालीं पवित्र पुस्तक म्हणूंक सुरवात जाल्या. इंग्लिशींत ताका "Holy Bible" म्हणटात. बायबल हें उतर Biblia ह्या ग्रीक उतरांतल्यान येता. बिबिलिया म्हणचे पुस्तकां – खरेंच पवित्र पुराण एक पुस्तक न्हय पण 72 . तीं एका काळार बरवंक ना. पण सुमार हजार वरसांचो काळ लागला. देखून बरवंची रीत, भास, संवंयो वेगवेगळ्यो. ते भायर एका पुस्तका थावन दुसऱ्या पुस्तका पर्यान धर्म सुत्रांची प्रगती आसा.

3) पवित्र पुराण परमेश्वरा देवाचें उतर व श्रुती असो आमचो ख्रिस्ती कातोल्क भावार्त. पण परमेश्वर देव उलयलो आनी मनशांनीं आसा तशें बरयलें हो समज न्हय. मनशांनीं आनी वेगवेगळ्या मनशांनीं पवित्र पुराणांतलीं वेगवेगळीं पुस्तकां रचलीं परमेश्वरा देवाचे प्रेरणेन देखून जर पवित्र पुराण एका अर्दान परमेश्वरादेवाचें उतर, तर दुसऱ्या अर्दान तें खरेंपणीं मनशाचें उतर.

पवित्र पुराण परमेश्वरा देवाचें उतर म्हणटच, जीं धर्मसुत्रां तें शिकयता, तीं चुकी विरयत. पण चुकी विरयत धर्मसुत्रांनीं पर्यान वाडाव चडाव आसा, कित्याक परमेश्वरा देवाचें उतर निश्क्रीय न्हय, तें क्रियाशील, जिवें, व्हांवतें आनी ताजें.

4) पवित्र पुराण मनशाचेंय उतर. एका बरयणारान तें बरवंक ना, पण पुश्कळांनी. एक पुस्तक न्हय, पण 72 पुस्तकां. एका काळार तें बरवंक ना. सुमार एक हजार वरसां लागलीं. एकेच तरेची बरपावळ न्हय, पण विविध : इतिहास, काणयो, ओपारी, म्हण्णी, गितां (मोगाचीं पर्यान), कविता, उपदेश, प्रवचनां, आदी. म्हणटच पवित्रपुराण वेगवेगळे तरेच्या बरवप्यांच्या आनी शेकड्यांच्या बरपावळिचो एक संग्रह. थंय मदले उदेंतेच्या लोकांचो इतिहास आनी संवंयो मेळटात. पूण कोणेंय तें बरवं, केन्नाय तें रचूं, कितलीय ताची विविधताय आसूं, तें परमेश्वरा देवाचे प्रेरणेन आनी कृपेन घडून हाडलां. देखुनूच तें परमेश्वरा देवाचें उतर. आपलो निरोप प्रगटूंक परमेश्वरा देवाक कसलोय उपाय उपकारता. ताच्या हातांनीं कसलोय उपाय शुद्ध जाता, पुरतो जाता.

5) पवित्र पुराण परमेश्वरा देवाचें उतर म्हणटच, ताचो निरोप भावार्तान मानून घेवपाचो. पण मनशांचेंय उतर म्हणटच ताचो अभ्यास फकत भावार्ताचो न्हय, पण विज्ञानीक. तातूंत भासशास्त्र आसा, इतिहास आसा, नादशास्त्र आसा, साहित्य आसा, भुगोलविद्या शास्त्र आसा, देवशास्त्र आसा, तत्वज्ञान शास्त्र आसा, आदी. आनी असलें संशोधन जायत आसा आनी जाता व्हडा नेटान. देखून पवित्र पुराणाची वळख जायती सुदारल्या आनी ख्रिस्ती धर्म अदीक शास्त्रीय जाला आनी जाता.

लक्षांत धरूंक जाय : जी मानवी वेगवेगळी विद्या पवित्र पुराणांत आसा आनी तिचे वरवीं परमेश्वर देव आपलो निरोप दिवन आयला, ती काळा काळाचे प्रगती प्रमाणें : देख : त्या काळाच्या भुगोलविद्याशास्त्रीक समजा प्रमाणे, संवसार एक ताट, वयर अंतराळ एक पाटोच कसो. अंतराळा वयर परमेश्वर देव आनी ताचो परिवार, नरक संवसाराच्या ताटा पोंदाक भितर. हो भुगोलविद्याशास्त्रीक समज चुकिचो, पण ताचे वरवीं जो निरोप परमेश्वर देव दिता, तें सत्य : पृथ्वेचो घडणार आनी चलयणार परमेश्वर देव.

6) पवित्र पुराण 72 पुस्तकां. तें दोन भागांनीं वांटलेलें आसा : पोरणो सल्लो व करार (45 पुस्तकां) स्वामी

जेजू आदीं : आनी नवो सल्लो व करार (27 पुस्तकां) स्वामी जेजू उप्रांत.

सल्लो व करार म्हणटात, कित्याक पवित्र परमेश्वरा देवाचे कबलातिच्यो अटी : पोरणो सल्लो व करार परमेश्वरा देवाची कबलात इजरायेल प्रजे कडेन तिच्या फुडाऱ्या मोजेसा उदेशीं, आनी नवो सल्लो व करार परमेश्वरा देवाची कबलात अख्ख्या मनिसकुळा कडेन स्वामी जेजू उदेशीं.

7) पोरणो सल्लो व करार मुळाक जुदेव व हेब्रेव धर्माचो. स्वामी जेजू, जुदेव व हेब्रेव राष्ट्राचो व प्रजेचो जावन, पोरणो सल्लो व करार आपलो करता आनी ताका एक वेगळी उमेद आनी दिशा दिता. देखून पोरणो सल्लो व करार नव्या सल्ल्याची व कराराची बुन्याद, आनी हो ताचो पुरवण आनी पुर्णताय. ख्रिस्ती धर्म व सभा पोरणो करार व सल्लो आपणायता, पण स्वामी जेजुचे नदरेन व उजवाडान तो वाचता आनी समजता. म्हणटच पोरणो सल्लो व करार दोन धर्माचें पुराण : जुदेव व हेब्रेव आनी ख्रिस्ती विज्ञानीक, भासशास्त्रीक, इतिहासीक नदरेन दोनूय धर्माच्या तज्ञांमधें सांगातान अभ्यास जाता. असलो अभ्यास कोणाच्यानूय करूंक जाता. देव धर्म मानिना तसल्यांच्यान पर्यान. पण पोरण्या सल्ल्या व करारा विशीं जुदेव आनी ख्रिस्ती धर्मीक नदर वेगवेगळी. जुदेव धर्मीक नदरेन, पोरणो सल्लो व करार परमेश्वरा देवाचें पयलें आनी निमणें उतर, ती स्वंयसंपूर्ण, ताका कांय उणें ना. ख्रिस्ती धर्मीक नदरेन, पोरणो सल्लो व करार परमेश्वरा देवाचें पयलें उतर, पूण निमणें न्हय, निमणें उतर नवो सल्लो व करार, पोरणो सल्लो व करार स्वयंपूर्ण न्हय, ताका उणें आसा आनी ताका भरती दिता तो नवो सल्लो व करार.

8) नवो सल्लो व करार खुद्द स्वामी जेजुचो आनी ताणे स्थापलल्या धर्माचो व सभेचो. ह्या नव्या सल्ल्यांत व करारांत मुख्य सुवात चार पुस्तकांक : तांकां आमी शुभवर्तमान म्हणटात.

शुभवर्तमान (बरी खबर) एक : स्वामी जे[illegible] चार पुस्तकांनीं खंय बरयलां व घडलां व पुंजायलां म्हणटच बरबर म्हणप तें अशें : संत मार्कू व [illegible]त्रा व संत लुका व संत जुआंवा प्रमाणें स्वामी जेजुचें शुभवर्तमान.

शुभवर्तमान स्वामी जेजुचें चरित्र न्हय, पण ताच्या जिविता, शिकवणे काया, मरणा आनी जिवंतपणाचेर विविध नियाळ आनी प्रवचन. देखून एका चरित्रांत दितात तसल्यो बारीक खबरो (देखीक : तारीख) तातूंत नात.

एक मतींत धरूंक जाय : स्वामी जेजून आपणें कांय बरवंक ना, आनी तो जियेतना कोणें कांय बरवंक ना. बरयलें तें सगळें मागीर, आनी तेंय बी पुश्कळ वरसां उपरांत आनी जायत्या बरवप्यांनीं. देखून सगळ्योय घडण्यो आनी शिकवण्यो सगळे बरयणार दिनात, आनी जायते पावटीं एकूच घडणी आनी शिकवण वेगवेगळे बरयणार वेगवेगळे तरेन दितात. हें अजाप न्हय. एके तरेन, सगळें एकठावन, स्वामी जेजुच्या जिविताचो आनी शिकवणेचो आमकां आपरोस मेळटा.

9) शुभवर्तमानाच्या चार पुस्तकां भितरलें निमणे पुस्तक संत जुआंवान बरयलां. हो संत जुआंव कोण हे विशीं विद्वानां मदें एकमत ना. चडशे म्हणटात स्वामी जेजुच्या बारा धर्मदुतां मधलो संत जुआंव नावांचो धर्मदूत होच शुभवर्तमानाच्या चवथ्या पुस्तकाचो बरयणार व संपादक. थोडे जाण सांगतात बरयणार तो न्हय,

पण कोण तरी ताचो शीश्य. घडये हाचेंच नांव संत जुआंव जायत व ताणें, त्या काळावयले एके संवंये प्रमाणें, आपल्या बरवपाक अदीक अधिकार मेळचे पासत, संत जुआंव आपल्या गुरूचें नांव दिलां जायत. एक मात : जे विद्वान शुभवर्तमानाच्या चवथ्या पुस्तकाचो बरयणार तोच संत जुआंव स्वामी जेजुच्या बारा धर्मदुतांमधलो एकलो म्हणटात, ते पर्यान मानून घेतात शुभवर्तमानाचो समारोप दुसऱ्या बरयणाराचो म्हणून. कितेंय जावं, ख्रिस्ती धर्मान सदांच मानून घेतलां शुभवर्तमानाचें चवथें पुस्तक पवित्र पुराणांतल्या नव्या सल्ल्या व कराराचें एक पुस्तक म्हण.

10) शुभवर्तमानाचें चवथें पुस्तक पयल्या शेंकड्याच्या सोंपत्यार बरयलें म्हणून विद्वानां मदें एकमत आसा. तें ग्रीक भाशेन बरयलां, कित्याक ग्रीक त्या काळावयली साहित्यीक भास.

जर त्या काळाचे पद्दती प्रमाणें शुभवर्तमानाक मुळाक कांय अवेस्वरां आनी वळिनीं शुभवर्तमान वांटलां : 21 अवेस्वर, आनी एकेका अवेस्वराक वळी आसात, पण सगळे अवेस्वर एकसारके न्हय, म्हणचे सगळे अवेस्वर तितल्याच वळिनी वांटलेले नात. अवेस्वर रचल्यात विशयां प्रमाणें.

11) शुभवर्तमानाच्या चवथ्या पुस्तकाची मांडावळ हेरां तीन पुस्तकां परस वेगळी. चवथें पुस्तक निमणें म्हणटच, जो नियाळ थंय आसा स्वामी जेजुच्या जिविता, कार्या, मरणा आनी जिवंतपणाचेर, तो अदीक विकाशीत. जीं लाग्दीक भाशणां चवथें शुभवर्तमानाचें पुस्तक स्वामी जेजुचीं म्हणून दिता, तीं बरयणारान व संपादकान घडल्यांत आनी स्वामी जेजुच्या तोंडांत घाल्यांत, खोल ध्याना उप्रांत स्वामी जेजुचे शिकवणेचेर आनी शिश्यांच्या भावार्ताचेर ताचेविशीं. हें ध्यान शुभवर्तमान बरवंच्या वेळीं आसलेली परिस्थिती मनांत घेता.

शुभवर्तमानाच्या चवथ्या पुस्तकाची भास रंगीत आनी प्रतिकात्मीक. देखून उतरा प्रमाणें आसा तशी समजणी घेवंक जायना. बरयणाराचो हेतू वाचप्यांनीं स्वामी जैजुचेर भावार्त धरूंक आनी ताच्या नांवान जिवीत घेवंक.

12) हांवें संत जुआंवाचें शुभवर्तमान म्हणूंक ना, पण संत जुआंवा प्रमाणें स्वामी जेजुचें शुभवर्तमान. तशेंच चवथें शुभवर्तमान हांवें म्हणूंक ना, पण शुभवर्तमानाचें चवथें पुस्तक. हाचें कारण : शुभवर्तमान एक, आनी तें स्वामी जेजुचें. चार बरयणारांनीं व संपादकांनीं, एकेकल्यान एक, बरवन काडलां चार पुस्तकांनीं. पण हीं चार पुस्तकां शुभवर्तमानाचीं चार खंडां न्हय, पण एकूच अखें शुभवर्तमान एकेका पुस्तकांत स्वायत्त आनी वेगवेगळे तरेन आसा.

13) शुभवर्तमानाचें चवथें पुस्तक हे तरेन वांटूंक जाता :

अ) प्रस्तावना : स्वामी जेजू देव बापाचो सास्णीक शब्द, सगळे पृथ्वेचो आरंभ. तो आमच्या काळार मनीस सयम घेता आनी काळोखांत आमकां उजवाड कसो परजळटा (1, 1-18).

क) स्वामी जेजुचे भवशीक मुन्यारपण : ताची भोंवडी, प्रवचनां, शिकवण, अचर्यां गालिली आनी जुदिया प्रांतांनी (1, 19-12, 50). ताची मूख्य शिकवण : हांव जिविताचो उंडो. म्हाका सेवता, तो सास्णाचें जिवीत भोगतलो.

ख) स्वामी जेजुचें मुन्यारपण आपल्या शिश्यांठांय (13, 1-17, 26) : स्वामी जेजू आपल्या लागशिल्ल्या शिश्यांची आकारणी करता : तांकां आपलें शास्त्र दिता, प्रार्थना करूंक तांकां शिकयता, आडखळींक फुडो करूंक तांकां आज्ञा दिता. आपलो आत्मो आनी कृपा तांकां भासायता. मूख्य घडणी ताचें निमणें रात्र जेवण आपल्या शिश्यां बराबर, जेन्ना तो तांचे पांय धुता आनी प्रितिमोगाची नवी आज्ञा दिता : जसो हांवें तुमचो मोग केला, तसो तुमी एकमेकाचो करात.

ग) स्वामी जेजुचें मरण आनी जिवंतपण (18, 1-20, 31) : हो मूख्य भाग शुभवर्तमानाचो : स्वामी जेजू आपूण मरता, आपूण आपणांक दुस्मानाच्या हातांत दिता, आपल्या मरणाचो वेळ आनी तरा आपूण वेंचून काडटा आनी जेन्ना तो आपलो प्राण सोडटा, तेन्ना तो जयताचो उदगार सोडटा. जो दिश्टावो स्वामी जेजुच्या मरणाचो शुभवर्तमानाचें चवथें पुस्तक आमकां दिता, तो बाकिच्या पुस्तकां परसय वेगळो. मरून स्वामी जेजू जिवंत जाता आनी सासणांत भितर सरता. ताचें दर्शन ताचे शीश्य भोगतात, आनी तो देव आनी धनी म्हणून प्रगट्टात. स्वामी जेजुचें मरण आनी जिवंतपण ख्रिस्ती भावार्ताचें मुख्य सत्य. ताच्या वरवीं स्वामी जेजून मनिसकुळाची सोडवण केल्ल्या.

घ) समारोप (31, 1-25) : स्वामी जेजू आपल्या शिश्यांक आपलो आत्मो दिता, पेद्रूक आपले सभेचो व्हडील नेमता आनी ताका आपलो पाठलाव कर म्हणून आज्ञा दिता.

14) संत जुआंवा प्रमाणें शुभवर्तमान मुळचें ग्रीक भाशेन आसा. तशींच ग्रीक भाशेन आसात सगळीं उरललीं नव्या सल्ल्या व कराराचीं पुस्तकां. पोरण्या सल्ल्या व कराराचीं थोडीं पुस्तकां ग्रीक भाशेन आसात, पण चडसीं हिब्रू भाशेन. एक मनान धरूंक जाय : पवित्र पुराण बरयलां त्यो ग्रीक आनी हिब्रू भासो आतां उलयनात. त्यो जिवंत भासो न्हय.

15) चवथ्या व पांचव्या शेंकड्यांत पवित्र पुराणाचो लॅटीन भाशेन अणकार जालो. मूख्य अणकार करपी संत जिरोम. ह्या लॅटीन भाशांतराची दुरूस्ती 1989 वरसा जाली. म्हणटच इतले शेंकडे भर, जेन्ना मीस आनी हेर रिती लॅटीन भाशेन जाताल्यो, तेन्ना पवित्र पुराणांतलीं वाचपां जातालीं, तीं संत जिरोमान केल्ल्या लॅटीन अणकारा प्रमाणें.

पवित्र पुराणाचो आधुनिक एवरोपी भाशांनीं अणकार करूंक आनी ह्या अणकारांचो धर्मीक रितिंनीं उपयोग सुरू करूंक पयलो पार्टीन लुथॅर पंद्राव्या शेंकड्यांतलो.

18) भारतीय भासांनीं पवित्र पुराणाचो पयलो अणकार जालो तो कोंकणींत, अख्ख्या पवित्र पुराणाचो न्हय, पण शुभवर्तमानाच्या चार पुस्तकांचो, आनी तो केलो इन्यात्सीयों आरकामॉनें (Ignazio Arcamone) ह्या इतालियन जेजुईत पाद्रीन. ते उप्रांत हांगा थंय, गोंयांत तशें मंगळुरांत, पवित्र पुराणाच्या एकान एक भागाचो कोंकणींत अणकार जायत आयला.

पवित्र पुराणाच्या कोंकणी अणकाराची अदीक गरज पडली, जेन्ना 1964 वरसा थावन मीस आनी हेर धर्मीक रिती इल्यो कोंकणींत जावंक लागल्यो. अख्खें पवित्र पुराण कोंकणींत गोंयां अणकारलें 2006 व्या वरसा. ते आदीं फकत नवो सल्लो व करार कोंकणींत छापललो 1974 वरसा.

19) पद्मश्री फावो जाल्लो प्राध्यापक सुरेश आमोणकार आतां संत जुआंवा प्रमाणें शुभवर्तमान कोंकणींत भाशांतर करता. त्या आदीं ताणें हेरां धर्माचीं पवित्र पुस्तकां कोंकणींत उतरायल्यांत. देखीक 'भगवद्गीता,' 'धम्मपद,' 'तिरूक्कुरळ,' 'ज्ञानेश्वरी,' 'जपुजीसाहिब'. सुरेशबाब आमोणकाराच्या भाशांतरांचो गूण हो : जें जें पुस्तक तो उतरायता, त्या त्या पुस्तकाचो निरोप, विचार भावनां तो आपलीं करता आनी मागीर तो भाशांतर करता.

दर धर्माचो गरोप दरेकल्याच्या पवित्र पुस्तकांनीं मेळटा. तशें जाल्यार, आमोणकारान आपणें अणकार केल्ल्या पवित्र पुस्तकांच्या धर्माचो सार आपणायला आनी आत्म्यान आनी मनांतसून तो विश्व धर्मीक जाला. हें ताचें व्हडपण.

संत जुआंवाप्रमाणें शुभवर्तमान स्वामी जेजुचे शिकवणेचो आमकां आपरोस दिता. हें शुभवर्तमान कोंकणींत अणकारून, स्वामी जेचुचे शिकवणेचो आपरोस सुरेशबाबान एक तीर्थ कशें भितर घेतलां आनी उत्तमपणीं, भायल्या रितिंनीं न्हय, स्वामी जेजुचो शीश्य आपूण जाला.

20) संत जुआंवा प्रमाणें शुभवर्तमान आमोणकार उतरायतना, हांव ताका लागीं आसलों. कितल्या चित्तान ताणें तें वाचलां, कितले भक्तीन तें ताणें नियाळळां आनी कितले खोलायेन तें ताणें आपलें केलां म्हणून साक्ष दिवंक म्हाका अभिमान आनी खोस भोगता. आपलो अणकार तितलोच निश्चीत जांवचो म्हणून आसलो ताचो हुसको आनी ध्यास. देखून अणकार सुदारचे पासत जायते पावटी ताणें दुरूस्ती केल्या. त्या भायर वळीन वळ, अक्षरान अक्षर एका पुराणशास्त्री कडल्यान बसून आनी दिसांचे दीस खोवून कोंकणी अणकार ग्रीक मूळ ग्रंथाचेर घासून तपासला.

म्हणटच अणकार जाता तितलो संपूर्ण करूंक सुरेशबाबान तकस घेतल्या आनी घाम वारयला. ह्या ताच्या मोगाच्या वावराक हुनहुनीत शाबासकी आनी पुश्कळ येस.

21) सोंपयतना सुरेशबाबाक एक सुचना नमळायेन करूंक सोदतां : थॉमस स्टीफन्साचें 'ख्रिस्त पुराण' मराठितलें कोंकणींत भाशांतर करचें. हो वावर आपल्या खांदार घेवंक आनी शर्ती पाववंक सुरेशबाबाक अस्सल योग्यताय आसाच.

17 व्या शेंकड्या थावन गोंयां आनी गोंयां भायलो ख्रिस्ती कोंकणी समाज हें पुराण वाचीत आनी गायत आयला धर्मीक सुवाळ्यांनीं, अदीक करून घरांत प्रेता मुखार अख्खी रात भर. ही परंपरा गोंयां पेडणें तालुक्यांत दोन वरसां पाठीं पर्यान चलताली. हर्मळचो नांवलौकीक पुराणकार कोंसतांस कारदोज अंतरलो तेन्ना ही परंपरा गोंयां बंद जाली. ही परंपरा पर्थून सुरू करूंक आनी पसरवंक आतां मराठी उपकारना, कोंकणी जाय. हे आमचे गरजेक सुरेशबाब पावतलो म्हणून हांव आस्त बाळगितां.



# चांडाळ कर्म

– महाबळेश्वर सैल

एक महापातक घडलां. तें पातक घडतसान कावळ्यानय काळखांत तोंड लिपयलां. पातकाकय सीमहद्द आसूक जाय न्ही! ल्हानसान पापाक भिवपी, देव रागार जातलो, प्रायश्चित भोगचे पडटलें, नरकात वचचे पडटले म्हणपी हे लोक येदी व्हडली पातकां कशीं करतात? म्हणच तें पाप घडतसान भूंयेंतल्यान किल्लावन येयल्ले कोंब बावलांत, बांळत जाल्ल्या आवयच्या मोम्याचिंवातले दूद आटला. चार रस्त्यावयलो तो वड घुंविल्ल्यावरीं जाला. झाडापेडांनी पाचवो रंग सोडला. चोयवटेच्या भुरग्यालो तोंडातले बोबाळ, पायातलो नाच कोणे काडून घेतला. आनी तीं घुम्म मोनी जाल्यांत. बायलांच्यो गर्भपिशव्यो रडून आक्रांत करतात, म्हण्टांत, असल्या मनशांचे बीज पोटात रुजचे नाका, आनीक म्हण असल्याक जल्म दिवचो नाका! त्यो आपली तोंडा आवळून घेवन बसलात. म्हजे तर सगळे सैम खबटळून गेला, ताका दिसता आपले सूत्र खंयतरी चुकला, मदीच ताका विक्रतीची गांठ घटला. असे म्हण्टात ते राती मुखाल्ल्या झाडार दोन शेवणी विसावल्ली, तातले एक बायलशेवणे पांखां गवसणून मरून सकल पडले. दिसताले त्या दिसासांन मळबार, सैमार, भूंय वाठारार काळे फाशिल्ले वचून वचना. थंय गेलो तो भुयेर पापा वाडटली तेन्ना पापयांचो विनाश करून आपूण परतो परतो अवतार घेवन येतलो. म्हणपी कृशण? मदी विकृतीची गांठ आयली की सैम दुखावता. तशी मनशा कित्याक दुखावनात? हेरांची कश्टा दुःखा आनी अन्याय पळोवन कानार केस ओडून कुशीक सरतात. रासवळपणान हे पातकांआड, अन्यायाआड उबे राविल्ले केन्ना दिसना? सदा सोताचेच दुखरें रूंय फुकत बसप. ती लंगडी भिकारीण कितली रडली, आड्डली. विश्रांतिचे भोगणारे पळोवन कोण एकलो हातात दांडो लेगीत घेवन आयलो ना विश्रांतिल्या बापायल्ल्या बोडकार घालूक.

विश्रांती तेरा दिसांचे आसतना तेगेली आवय भायर पडिल्ली. खळटकीर व्हडली मावसी धांवन येयली.

वाटभर ती हामेऱ्यान रडटाली. दारा, पावतकीर भयणीच्या घोवाक चरांडून गाळी सवत तिने म्हटले, चाडांळान म्हजे भयणीक धाडावन आनी बडोवन माल्ले. गुरवार आसतानाय इल्ली काळजी घेतली ना आनी बाळंत जातकय इल्ले खांवक जेवक घातले ना. आता या भुरग्याकय मारून उडयतलो तू.' हाचेर भयणीचो घोव व्यंकू भायर येवन बुरश्यो बुरशो गाळी सवंक लागलो.

तरी मावशी घरात गेली. तिणे विश्रांतीक उखलून घेतले, येदिशी मरणाक पाविल्ली कूड! हातात घेवन गेल्यार हातातल्यान गळून पड्टाली. दोळे बाविल्लेवरी जाल्ले आनी हातापायांच्यो काडीबडी कुडीक लांबताले. तरी ओट ओले आसले, ते आवयल्या मोम्याची वांक आयिल्लेवरी थरथरताले. भुकेन रड्टलो म्हळ्यार रडूकय जीव नासलो. मावसी तेका तशेंच पदरात गुठलावन कुशीक धरून आपल्या घरा घेवन आयली.

मावसेन ताची बेस सेवाचाकरी केली. तेल, काडले न्हावयले, दूद उदक नीट पिवयले. ते आंगान भरतकीर गोरे, गुटगुटीत दिसूक लागले. पूण प्रकृतीन इल्ले नाजूकच. मदीच थंडी भरताली आनी हड्डे घुर्रघुर्र वाजताले. मावसेलो घोव बेगीनच जाण्टो जाल्लेपरी दिसतालो. तो केन्ना म्हणाटालो 'बाय लग्न जावन गेले. बाबय फाल्या शिकून थंयतरी परगावांत वयतलो. आमी आनीक म्हातारी जातली. तू विश्रांतीक तेच्या बापायसरी पावय. आता काय जावचे ना तेका. मर म्हटल्यार मरचे ना. पण मावसेन तेका आपणापसून पयस केले ना. बापूय केन्ना खबरेक येयलो ना. आपली धूव आसा काय मेली तेंवय पळयलें ना.

व्यंकू सोरो पितालो. गावात झगडी करतालो आनी दुसरे लग्नय जावक सोदतालो. पूण तेका कोणे लग्नाक चेडू दिले ना.

मावस भावंडांत हासत खेळत विश्रांती व्हड जाल्ले. मावशेनय जशे ताका व्हटयेच्या उबेत धरूनच वाडयल्ले. मुळांत तें मोगाळ, मोंवाळ स्वभावाचे, देवागुणाचेच आसले. तांतून कवाशाची पाकळी उकशे नाजूक. न्हिदून पडटकीर मळबातल्यान देवी अवतरिल्लेवरी ते सोबीत दिसताले. उलयल्यार बारीक घांट किणकिणिल्लेवरी जाताले.

आता मावस भयणीले लग्न जाल्ले. मावसभाव नोकरेक लागून भायल्या गावांत पाविल्लो. तशेच कांय तेपान मावशी अचकीत दुयेंत पडली आनी तातूनच मेली. तेन्ना विश्रांतीक निकतीच तेरा सोपून चवदा लागिल्ली.

मावशी मरतकीर मावसेल्या घोवान ताका रोखडेच बापायसरी व्हरून पावयले.

विश्रांतीक चडशें वायट दिसले ना. तें रडलेय ना. पयलीच फावट तें बापायक पळयतालें, खाड वाडिल्लोसो, दोळे व्हांविल्लोसो बुरसो तो आसलो. पूण तो ताचो बापूय आसलो. हो विश्वास, हो भावार्त व्हड आसलो. आपलो बापूय आपणाक मेळ्ळा हे खोशयेन ते मावसेल्या मरणाचे दुःखय विसरून गेले.

. दार उक्तेच उडोवन पयल्याच दिसा तें मावसेल्या घोवावांगडा बापायकडेन पाविल्ले तेन्ना तो न्हिदिल्लो आसलो. हागेलो आवाज येतकीर तांबशे दोळे उक्ते करून खर नदरेन पळोवक लागलो. मावशेल्या घोवान

म्हटले, 'तुगेले चेडू हें. मावसी मेली. आता तुवेंच सांभाळचे तेका.'

तो काय वेळ तांका भ्रमिश्ठावरी पळयत रावलो. मागीर म्हटले, 'तें जाल्ल्या तेराच दिसानी तेगेली आवय मेली. म्हाका वटवटे इतली वर्सा. आता म्हज्यान पोसूक जावचे नात तेका.'

पूण मावसेलो घोव मुडदारासारखो ताका थंयच सोडून गेलो.

म्हैनोबर बरो गेलो. घरात आशिल्ले तांदूळ दाणो घेवन विश्रांती पेज शीत कितेय रांदताले. सांजचो तो येतकीर ताका वाड्टालें. तो सोरो पीवन येतालो पूण चड बोवाळ करनासलो. तो एका चणे शेंगा भाजच्या भट्टेर वावर करतालो. दोन फावट बरे चणेंय घरा घेवन आयल्लो. चड कायच उलयनासलो. वास घेतलेवरी सूं सूं नाक ओडत रावतालो. केन्ना तांबड्या दोळ्यांत तो रोखून पळयतालो तेन्ना विश्रांतीलो जीव कापिल्लेवरी जातालो. पूण तो म्हजो बापूय हो भावार्त व्हड आसलो. मावसेल्या पायांखाला आसताना संसारात वाकडे तिकडे किते आसू येता हाची जाणच नासली. मनान तें ल्हान बाळकच आसलें. कुडीनय ल्हानशेंच, बारीक, नाजूक गोरेंच.

त्या दिसा काळोख बेगीनच देवंन आयल्लो. काळखाच्यो सावळ्यो भुतांची उलटी पावला कशी घरामुखार रसत्यार पातळिल्ली. घरांच्या पाख्यापाख्यांर घुगमां फाकिल्ली आनी आपल्या चोचीन आपलीच पांखा पिनून रक्तबंबाळ करून घेतालीं. मागीर अचकीत काळे खूब काळे नागसर्प हुडटात असे दिसूक लागले. लागीच एक सैतान पापाचे मुळवण खणटालो आनी रक्तमांसाचेर पिकास मारिल्लेवरी घुप्पघुप्प आवाज येताले. विश्रांती मनात खूब भियलेले तरी दारात बसून बापायची वाट पळयत आसले.

ते रातीक बापूय सोरो पीवन आयलो आनी ताणे विश्रांतीचेर बळजबरी केली. खूब घुबडां ताचेर जशी बसून ताका चोंचयताली अज्ञात दिकेतल्यान कितले काळे चपके तोंडार बसताले! पिसडून उडयल्ल्या फुलाची एकेक पाकळी रगतान भरून रगतात मेळटाली. दश दिकातल्यांन आदिमायेचे दुखेस्त हुंडके थेंबथेंब गळटाले तुजें भुरगें, तुजोच श्वास, तुजोच दोळो, तुजेंच काळीज, तुजीच आंतडी, ताची राखण तुवेच करप, देवान तुजेर सोपयल्ले पवित्र कर्तव्य. दुश्ट चांडाळ जावन तुवेंच तें पिसडून उडोवप!

अशी ही किंकाळ बळजबरी चारपाच म्हैनेतरी चलिल्ली. कितें करतलो, कोणाक सांगतलो! कुडीन मनान गळसणून ते विळविळीत जावन गेल्लें. कितें चल्लां कितें घडटा कांयच कळनासले. वयल्यान धमक्यो, कोणाक सांगल्यार चिरून मारून उडोवच्यो. भिरांत, अब्रू वाऱ्यार वचचेली. मन उक्ते करूक लागिचो कोण नाशिल्लोच.

तातूत तें गुरवार जालें, गुरवार जालें म्हण कळटकीर खरेच ताणे विश्रांतीक गळो चिरून मारून उडयलें आनी पयस रानाकडेन व्हरून पुरलें. हांगा एका अज्ञांवर पातकाचो राक्षसी थयथयाट सोंपलो. बळजबरी सोंसता सोंसता एक फुला बाळक मेले. त्रिकाळाच्या कपलार एका पातकाचें मोट्ठें चवन पडलें. ●●●

# 'कुणबी बायलांची दुखेस्त गितां'

– श्री. अजित पैंगीणकार
काणकोण

गोंयची कुणबी जमात ही आद्य जमात. मुठी मारून खुंटी जोडली. म्हळ्यारच पयलें शेत कोसून त्या जाग्यार थळाव्या दैवतांची थापणूक करपी ही जमात. बळी राजाचे वंशज मानपी. शेता भाताचो वेवसाय करून आपलें पोट भरपी. हे लोक गोंयांत आयले काय गोंयची मूळ जमात हो विशय जरी वेगळो आसलो जाल्यार लेगीत कुणबी समाजाकडेन जी संस्कृताय आसा ती खेरीत नाव घेवपासारकी आसा. झाडपाल्याच्या वखदापासून तरेकवार वस्ती तयार करपाची कला ह्या समाजान सांबाळ्ळी. तिगयली. दोंगराच्या माथ्यार सूर्याचो धग सोसपी कुणबी समाज गरीबी, दारिद्य, अज्ञान हाका लागून बरीच वर्सां फाटी पडलो. मुठी मारून खुंटी जोडपी हो समाज भुमीहिनच उल्लो. सामाजिक सुदारणेपासून पयस रावलो. ज्या जाग्यार उदकाची सोय ना अशा जाग्यार रावन लेगीत कुणबी समाजान कष्टान, त्रासान फुलांची बाग फुलयली. उसाचे मळे फुलयले. शेतां-भाटां तयार केलीं. हातांक मात कांयच उल्ले ना अशी स्थिती जाल्लो हो समाज आयज शिकून मुखार सरत आशिल्लो दिसता. ह्या समाजांतल्या तरणाट्यांक शिक्षणाचे महत्त्व समजपाक लागले. शिक्षणाबगर समाजांक स्थान ना. काम करपाची, कष्ट करपाची सादना हळूहळू कमी जावपाक लागली.

हेर समाज शिक्षणाक लागून उदरगतीकडेन पांय दवरपाक लागला हें जेन्ना कुणबी समाजातल्या तरणाट्यानी पळयलें – तेन्नाच या तरणाट्यांक जाग आयली. आयज गोंयच्या मुखेल समाजाक नोंद घेवपासारखी ही जमात जायत आसा. राजकीय, सामाजिक , सांस्कृतीक मळाचेर नाव घेवपा सारकिल्ले तरणाटे वावुरताना दिसतात. एखाद्या कार्यावळीची जापसादरकी सांबाळतानाच ती तडीक व्हरपाचे काम कुणबी समाजातले कार्यकर्ते करताना दिसतात.

गोंयच्या लोक संस्कृतायेक कुणबी समाजाचे योगदान खूब व्हडलें आसा. सांस्कृतीक दायज सांबाळतानाच आयच्या पिळगेकडेन लेगीत ती जापसालदारकी सोपोवपाचे काम कुणबी समाज करताना दिसता. कुणबी समाजांतली बायल सामकी सोशीक. वयाच्या धाव्या वर्साक लागून ती दाव्याक बांदिल्या बैलावरी कामाक लागता. गोरवां सांबाळपापासून शेतांतली, कामतातली कामा करप, उदकाची पुरवण करप, भातां उकोडप, तांदूळ तयार करून घेवपासून, रांदोप, वाडोप, घरांतल्या भुरग्यांली, जाण्ट्याली दूख पळोवप, दारांक आयिल्ल्या सोयऱ्यालो मान दवरपाची कामा करताना लेगीत लोकसंस्कृताय तिगोन दवरपाचे काम कुणबी बायलांनी केलां. मात तांचे दुःख पिडा कोणेच जाणून घेवपाचो प्रयत्न केलो ना.

सूरया राधिका कन्या गो<br>
उठली सकाळच्या पारा गो॥<br>
उठली सकाळच्या पारा<br>
गेली ती गाईच्या गोठ्या गो<br>
आणिले पसभर शेण गो।<br>
घेतील्ली तांब्याची घागर गो।<br>
गेली ती पोमुल्या तळयेर गो।<br>
आणिले घागरभर पाणी गो।<br>
काडिले घरादारा शेण गो।<br>
ठेविले चुलीवर आथन गो<br>
घातिले पडीभर तांदूळ गो।<br>
रांधिले पक्वान जेवण गो<br>
वाडिले भावा भयणी ताट गो।

घरातल्या व्हडल्या चलयेचो दीसपट हो असोच आसता. लग्ना पयली भावा भयणीक वाडोप, लग्ना उपरांत घोव, देर, माव-मायंक वाटा वाडटा आपुण मात केन्ना केन्ना उपाशीच रावोप. हेंच ह्या बायलेचे जीणे.

दारी चिमुकले झाड गो सखे<br>
काणकोणा पैल्यान म्हजो गाव गे

आपोवपाक आयलो म्हजो भाव गे सखे
धाडना म्हणाली तुजी माय गो सखे
उपाशी गेलो तुजो भाव गे सखे
जिवाक चिटीमिटी जाता गो सखे।

आपले दुःख मनातल्या मनात चिड्डून दवरपाक ह्या बायलेन वर्सां घालयलीं. मुकाट्यान, मोनेपणान सोसत रावली.

आंब्या तुजो ताळो
ताळो मोडुनि रथ घडयालो
तुळशी देवा रथ न घडयालो
पायका देवा रथ न घडयालो
गरवय देवा रथ न घडयालो

पुराय जिवित घरातल्या हेर लोकांच्या सुखाखातीर वेचपी कुणबी बायल.

कात बाये कात
तवश्या तवश्याची कात
आमी हांगा खेळूंक येयल्या
थंय जाली रात

अशें म्हणपी ही बायल केन्ना केन्ना

फुगडी घाल गे फेराची
लज सोड गे देराची
फुगडी घाल गे फेराची
लज सोड गे बायेसाची

म्हणटा आनी घरांतली लज भायर वचू नजो हाची जापसालदारी आपल्याकडेन दवरता. तिका घरातल्या सगळ्या लोकांची काळजी. जावं जाण्टो माव-माय नाजाल्यार आंकवार नणंद ती म्हणटा

फुडल्या दारांक तुळस फाटल्या दारांक पणस
कित्याक उदक घालचे आई सांग सांग
येदेशें साळू येदें व्हडलें जालें
केन्ना लगीन करया आई सांग सांग

लग्न करून आयिल्ली कुणब्याली बायल फाटले सगलें विसरना, म्हण्टा-

आई परस माझी मांय बरी गे
बाबा परस म्हजो मांव बरो गे

हें गीत गायतानाच ही कुणबी बायल दुसऱ्या वटेन म्हणटा

मांय बाय कशी गो
तळपावेली कुल्ली कशी
मांव बाय वसो गो
ताळयेवेलो माकोड कसो
जाव बाय कशी गो
खादळ्यातली वल्ली अशी
देर बाय कसो गो
केळी वेलो भंवर असो
नणंद बाय कशी गो
कपळावेली तिरपीट अशी गो

हे सांगतानाच तिचो घोव मात म्होवांसारखो गोड. मोग करपी. जीवाक जीव दिवपी हे सांगपाक ती विसरना.

कुणबी बायलांची गितां सैमाच्या सान्निद्यांक घडटात. हो सैम. ह्या सैमांतल्या फळांचेर, फुलांचेर तांचो आशिल्लो मोग दरएका गाण्यातल्यान दिश्टी पडटात. या सैमाचेर तांचे जीवन अवलंबून आशिल्ल्यो बायलो गायतात.

वाटेवेल्या आवाळे गे
चनर फुल्लें साळीक गे॥
शेवकां बाये शेवकां गे
तांबडे माडाची शेवकां गे॥
बांदे बाये बांदे गे
हळदीचे बांदे गे॥
वैयल्या राना
खायल्या राना केवणी फुल्ल्या ॥
कापशिणीच्या सुता गे बाय
वळील्यो पाच वाती गे बाय ॥
देरातल्या मिरवली तळे

मिरया कितलो भार गे॥
वैयल्या राना गो बाय
फुलल्यो आबोल्यो गो बाय॥
केट्टिणीचे केस्ट काडले
सान सुर्या धाडले
सये गे आमी केस्टा जिकुया ।

सात्विक आचार आशिल्यो कुणबी बायलो. बदलपी परिस्थिती लेगीत आपणावपाक लागल्यात. सृष्टीच्या कालचक्रांत जसो प्रत्येक जातीचो, वंशाचो, देशाचो इतिहास बदलता तेच वरी कुणबी बायलो लेगीत बदलपाक लागल्यात. चूल आनी मूल ही मेर हुपून आयज भायर सरपाक लागल्यात. धालांच्या मांडापुरते मर्यादित आशिल्ले लोकसंगीत, तांची दुखजिणी स्थिती समाजामुखार मांडपाक लागल्यात. जीव तोडून नाचतानाच मनातले उत्फर्के लोकांमेरेन मांडपाक लागल्यात. कुणबी बायलांची दूख हळूहळू लोकांक समजूपाक लागल्या. आर्थिक तशेंच समाजिक बळगें नाशिल्ल्यान फाटी आशिल्लो हो समाज प्रगतीच्या दिशेन वाटचाल करताना दिसता. वैचारिक बाबतीत आशिल्लो तांचो स्वभाव गूण, सात्वीकता, प्रामाणिकपणा, विश्वास, कष्ट करपाची तयारी स्वावलंबन हे गुण तोखणाय करपा सारकिल्ले आसात. कृषक समाजाच्या महान परंपरेचे पूजन मानपी हो समाज.

●●●



# दोन कविता

## फामिलसूत्र

आयतारा
म्हज्या म्हातान्या आवय-बापायक
मेळपाक
हांव
फ्लॅटांतल्यान घरा वयतां

आयतारा
म्हजीं आवय-बापूय
वाट पळयत आसता
आपल्या
मर्णाची

आयतारा
सग लें बंद
मर्ण लेग ीत

आयतारा
आवय-बापायक मेळ्ळ्या उपरांत
हांव वयतां
पिकनिकेक
बायल भुरग्यावांगडा

हांव एन्जॉय करतां
आयतार
आवय-बापाय सकट



## म्हाळसूत्र

खंयतरी
रडपाचो
आवाज
येता

आयक
कान दिवन आयक

खंयतरी रडपाचो आवाज येता

खंयसून येता कळना
कोण रडटा कळना
फांतोड जाल्या काय आमोरी
कळना

पूण खंयतरी रडपाचो आवाज येता

पळय
मळब सकयल देवलां
मळब सकयल दैवत आसा
तकलेक तेकलां मळब
मळब आनी भूंय
हेंच्या मदीं
कोणतरी चिड्डला आसतलो

आयक
कान दिवन आयक

आता रडपाचो आवाज येयना

पळय
आतां रडपाचो आवाज येयना

– काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

# गौतम बुद्ध



काळशक्त वावुरता अव्यक्तांतल्यान
आनी रावता कार्यान्वीत समळें व्यापून
तीच नियंती चराचराची
पेलता भार ती काळम तीची
काळाचे मरजे प्रमाण
जल्म घेवन ती मनीस रूपान
येता घालूंक थाऱ्यार समळें
रावंक मागीर सुप्त अव्यक्तांत

हेच नियंती काळशकतीन
घेतले अवतार काळाकाळार
सावरूंक काळ वळखून मरज काळाची
तशीच काळाची मरज म्हुण
निर्मिलो तिणे अवतारी गौतम बुद्धाक
हाडूंक शेणिल्ले मनीसकुळयेक उजू
मार्गार
दाखोवन वाट आत्ममिन्याना प्रशेची
जी भरकटत वताली
सांपडून अहंभाव, सुवार्थ, हेवेदाव्यांच्या
चपकुलांत

भरली ते खातीर नियंत्या काळशक्तीन
गौतम बुद्धा भितर सोसणाय करूणाय
मनीस जिणेच्या आपलेपणाची
हाडूंक निर्वाण अवस्था समेस्तांच्या
जिणेंत
जाचेवरवीं जिणेतत्व होलमतकच
लागता दिसूंक परकी - पेलो खासा
आपलोच
सोंपून 'उंच-उणाक' पणाचे भेदाभेद

दाखयले गौतमबुद्धान परिणाम
भोग वासनांचे अंतहीण खर वखवखीचे
जे दिवन सूख अतृप्त खिणयाळें
जातात कारणां दुख्खांची पिडीत रावपी,
शिकयली जोडूंक मुक्ताताय सासणाची
अणभवत परमसूख मुक्तीसरीं व्हरपी

दाखयली उक्ती करून जिणेची वाट खरेली
भायरावन भोग , उपास, व्रतां, कर्मकांडां
हुमटायलें आशेछेपण, तृष्णा जी जाल्ली
समळ्या दुख्खांचें कारण
केलें चित्त निर्मळ थीर दोमराभशेन
जियेवंक जीण सात्वीकतायेन
विमुक्त हुसक्या मेकळी
फुलत्यां फुलांभशेन

जल्मजात फावो जाल्ल्या वैभवान
जाय जाल्यार गौतम बुद्धाक
मस्सर भोगूं येतालीं सुखां मारून फोल्गां
करून घर संवसार, नाच शिरिंगार
पुणून आफडूंक शकलें ना ताका
ताचें वैभव कारण तो जातकच
आसलो मुक्तीदातो
रासवळ सामान्य शेणिल्ल्यांचो
अर्थहीण जियेतल्यांचो

जिणे सिद्धीप्रमाण जोडले ताणें
मनीसकुळयेक एकाच धाग्यान
ना करून मनशां मजगतचे भेदभाव
मातिल्ले संसर्गान सुवार्थाच्या रोंटान
जे उडयताले भेरेवन वंयो बुद्धीच्यो
बांदून सभावांत आळय मजल्यांचे
जांकां नाशिल्ले पांवडे, नाशिल्ले हुंबरे
वयर सकयल सरूंक येता तसले

गौतम बुद्धान केल्ली उत्की वाट निर्वाणाची
परिपूर्णतायेच्या आठ दीपस्तंभांवरवीं
चडूंक सपणां शीळ समाधी प्रज्ञेची
ध्यान प्रार्थनेन आपलेभितर स्थापून
कालातीत सत चिरंजिवें
जांचो केन्ना जावंक शकना क्षय
लायली जाल्यारय कसलीय लेबलां

दिलो जिणेमंत्र तत्वबोधाचो
नवे नदरेची तारां दाखोवपी
उगडूंक दारां चिरंतन उजवाडाचीं
केलो परावर्तीत दैववाद मनां-काळजांतलो
जो युगांयुगां भितर धोंगशीत राविल्लो
जावन कोंड अज्ञानाचें, थिल्लर जिणेचें
कुसके बांयचे व्यर्थ उतळताप कशे

गौतम बुद्ध जियेलो, जन सामान्यांत
वावुरलो

पारदर्शी हारशाभशेन
दवरून उत्कें काळीज
भितल्लेंच दाखयत भायर
दिल्यो दीक्षा झाडून
सगल्या जातींतल्या लोकांक एकाच
मापान

करून गिन्यानी जाणकार
केलो काळ आरती परतो
दिवन छेद विशमतायेक



दिश्टाव्याच्या खोलायेंतली पर्जळीत
वज्रथिकां कशी काळाक पुरून उरपी उतरांनी
जिणे अर्थाच्या धम्मपदांनी
जिणे खोलायेच्या सुक्तांनी
केली उकती वाट मनीसजिणेच्या साफल्याची
ना करून युगां युगां सांचिल्लो काळोख
जो आडायतालो
मनमळबांत उदेतल्या सुर्याक

सांगलें गौतम बुद्धान :
जो शरण वचून घेता जाणून सतां
तोच खरो प्रज्ञावान तोच जोडटा चिरंतन सुखां
तोच खरो शिश्य जो एकाच मापान
लेखता सत्कार, तिरस्कार कांचवेनासतना
मानून आपणाकच आपलो स्वामी,-
आपलो आधार

जिणे दिका दाखोवपी
जिणे मळब विस्तारावपी
गौतम बुद्धाच्या शिकवणेचो जालो पूल
जोडपी देशादेशां मजग तचे खंड - म्हासाग र
जाच्या वेल्यान चलतना
आयजय येता लाग ँ
काळ पुर्विल्लो मेळूंक चालंत काळाक
वचून मेळपाक अनंततायेच्या भविष्यकाळाक

– प्रकाश पाडगांवकार





## काळेकिट्ट घोडे

काळेकिट्ट घोडे धांवतात कॅनवासार खिडकाळत
काळेकिट्ट घोडे धांवतात कॅनवासार
काळेकिट्ट घोडे धांवतात
काळेकिट्ट घोडे
काळे किट्ट

धांवत धांवत
घोडे पावले खंय?
दिसनात दोळ्यांक
दिसता फकत कॅनवास
धवोफुल्ल
आनी
येता आयकूंक एकसारको
कानाच्या पड्ड्यार खड खड खड खड
घोड्यांच्या टापांचो आवाज....

## आल्बम

हांव चाळटां आल्बम
भुरगेपणांतल्या म्हज्या फोटवांचो
ब्लॅक ॲण्ड व्हायट

एक एक फोटो म्हळ्यार
घडणूक म्हजे जिणेंतली एक एक
गोठयल्ली
काळ्या धव्या रंगान

म्हजें भुरगेपण येता भायर
काळ्या रंगांतल्यान
धवोफुल्ल कोंब कशें फुटून

धवो आनी काळो
उलयतात एकामेकांकडेन
म्हजेविशीं, म्हजे जिणेविशीं
दोळ्यांतल्या दोळ्यांनीं
चाळटां चाळटां म्हजी जीण...

– परेश नरेंद्र कामत



# पासवर्ड

तूं चल्लो?
वच, हांव तुका राव म्हणचें ना
पूण, वच्चेपयलीं
एक वरभर तरी
पोटभर उलय मरे पापया....

अशें कितें आसा त्या कंम्प्युटरान
जें म्हजेकडेन ना?

तो तुका व्हरता आसत
संवसाराच्या ह्या पोंतावेल्यान
त्या पोंतार खिणाभितर

म्हजे पुता,
कंम्प्युटरावयलो संवसार
म्हज्यार संवसार न्हंय
खरो संवसार तुका आतां कळटलो
तूं आतां घराभायर पाय दवरतलो तेन्ना

हालीं तुजे मांडयेर सदांच लॅपटॉप
तशें हांवुय बसतालें रे
तुका लॅपटॉप कसो मांडयेर-
घेवन वरांची वरां...

आतां गरज नासतना
म्हाका तुज्या भुरग्यांचो हुस्को
मेळटली काय तांका मांडी तुमची?....

खऱ्यानींच तूं आतां व्हडलो जालो...
आतां तुज्या केंसांकय हात
भोंवडायल्लो तुका आवडना,
तुजे केंस रोखडेच इबाडटात

तुजेर तापील्लेंय तुका आवडना?
तूं रोखडोच गुर्र जाता

तूं वच, हांव तुका राव म्हणचें ना
पूण वतना तुजो पासवर्ड मात दिवन वच
केन्नाय म्हाका दिसलें जाल्यार
तुज्या काळजांत भितर रिगूंक
तुज्या मनाचो थाव घेवंक

दितलो मरे तुजो पासवर्ड?

– नुतन साखरदांडे



# वयतकूच तूं

वयतकूच तूं चाळ्ळे मोने, घरपोरसूंय गो सुकें सुकें
पोरांय मांजरावरी मोनी आन् दर दोगांयच्या मर्दी धुकें

वयतकूच तूं घरांत लेगीत पांवल म्हजें गो आडखळटा
आटून वयता वारोय रोकडो उस्वासाक जीव तडफडटा

वयतकूच तूं हे वाटेचेर मूय लेगीत गो झळकना
जग सगळें हें जाता अचानक परकी कित्याक तें कळना

वयतकूच तूं लागून पनवत पान पान पिंपळ झडयता
मळ्यां वथरतें गीत म्हगेलें ल्हवु ल्हवुशें गो लयाक वयता

वयतकूच तूं दोनूच दिसांक जर ही म्हजी अशी स्थिती
खरेंच म्हजे आदीं गेल्यार म्हजी कितें गो परिस्थिती

– बाकीबाब बोरकार
अणकार : रमेश भगवंत वेळुस्कार

(ही कविता बाकीबाबान 1-9-1962 हे दिसा पणजे बरयली. पयले पावट ती 1965 त ''गितारांत'' जाल्यार उपरांत 1972 त चांदणवेल ह्या तांच्या संकलनात प्रसिद्ध जाल्या. ही मुळ कविता मराठींत आसा. ताचो अणकार एकदीस असोच ती कविता वाचतां वाचतां जालो. ''तू गेल्यावर'' अशें हे कवितेचें शीर्षक आसलें.)

पणजी 1-9-1962

. गितार 1965.
चांदणवेल 1972

# वादळी जग आणि समाधी

– सोमनाथ कोमरपंत

मानवी संस्कृतीत मौलिक भर टाकणाऱ्या सर्जनशील व्यक्तींनी जगाच्या गलबल्यात एकान्तात जीवनसाधना करून आपली मुद्रा उमटविली आहे. लौकिक जगाला लगटून असलेली, त्यांनी निर्माण केलेली ही अलौकिकाची अनुभूती आनंदायी आहे. तापत्रय विसरायला लावणारे हे अभिनव विश्व आहे. साहित्य, चित्रकला, शिल्पकला, मूर्तिकला, वास्तुशिल्प, संगीत आणि नृत्यकला इत्यादी कलांच्या आदिकालापासून झालेल्या विकासामुळे या भौतिक जगाला आत्मिक उन्नतीची मिती लाभलेली आहे. अर्थात ही सारी निर्मिती म्हणजे सर्जनशील आत्म्यांची त्या त्या काळातील निःश्वसिते आहेत. आपल्या अंतर्मनातील आंदोलनांना प्रज्ञावंत आणि प्रतिभावंत वाट करून देत असतात. भौतिक जगाला या कलानिर्मात्यांच्या स्वप्नसृष्टीकडे लक्ष द्यायला वेळ नसतो. बऱ्याचदा इच्छाही नसते. त्यामुळे होते काय? कलानिर्माते एकाकी पडतात. त्यांना समानधर्मे कुणी नसतात. त्यांच्या अस्वस्थतेच्या खडतर समयी कलेची जन्मप्रक्रिया चाललेली असते. संघर्षाच्या मुशीतूनच कलानिर्मितीचा दिव्य क्षण उद्भवत असतो. परंपरेला छेद देऊन नवता जन्म घेते. प्रगत समाजात परंपरा आणि नवता यांचा समतोल हवा. गतानुगतिकतेच्या अवगुंठनात समाजमन अडकते तेव्हा त्याच्या भविष्यकालीन प्रगतीची दिशा कुंठित होते. अशा वेळी सृजनात्म्याला क्रांतिप्रवण व्हावे लागते. असे क्रान्तदर्शी प्रतिभावंत

सुरुवातीला समाजाच्या पचनी पडत नाहीत, ते सहजतेने स्वीकारले जात नाहीत. पण कालप्रवाह पुढे सरकतो. 'पृथ्वी अफाट आहे आणि काल अनंत आहे.' या भवभूतीच्या वचनाचा प्रत्यय येतो. मर्मदृष्टी लाभलेल्या रसिकजनांकडून त्यांच्या कलेचा आस्वाद घेतला जातो. जगाच्या संस्कृतिसंवर्धनाच्या प्रक्रियेत आजवर असे घडत आलेले आहे.

जी गोष्ट साहित्यिक, चित्रकार आदी कलावंतांची, तीच गोष्ट शास्त्रज्ञांची आणि रूढीग्रस्त समाजात क्रांतिकारी बदल घडवून आणू इच्छिणाऱ्या समाजसुधारकांची, विचारवंतांची. या संदर्भात आठवण येते ती डॉ. पु. ग. सहस्रबुद्धे यांच्या 'माझे चिंतन' मधील 'विश्वाविरुद्ध' या चिंतनशील वृत्तीने लिहिलेल्या प्रदीर्घ निबंधाची. विवेकनिष्ठा आणि संस्कृती यांमधील अभिन्नत्वाचे नाते त्यांनी अधोरेखित केले आहे. आपल्या जीवननिष्ठांसाठी ज्यांनी ज्यांनी आत्मसमर्पणाचा मार्ग स्वीकारला त्यांच्या जीवनामार्गाचे मर्म त्यांनी विशद केलेले आहे.

'विवेकनिष्ठेसाठी आत्मबलिदान करणे ही मानवी संस्कृतीच्या प्रगतीसाठी एक अत्यंत अवश्य असलेली गोष्ट आहे असे दिसते. कारण नुसत्या सत्याचे, नवतत्त्वाचे, नवविचारांचे आवाहन माणसाच्या मनाला बोचत नाही. त्या सत्याच्या मागे अग्निज्वाळांचा प्रकाश जेव्हा दिसतो तेव्हाच माणसाची दृष्टी तिकडे वळते, एरवी नाही.'

आजच्या समाजजीवनात अधूनमधून बुरसटलेल्या विचारांची त्सुनामी लाट येते आणि स्थिर जीवनाची उलथापालथ होते. तशी ती जगाच्या इतिहासात अनेकदा झालेले आहे. परंतु ही वादळे अंगावर झेलून अंतःप्रेरणेतून आलेले विचार समाजमानसात रुजविणारे शांत प्रवृत्तीचे प्रज्ञावंत जन्मास आलेले आहेत. जनांत राहूनही त्यांनी वनवास सहन केला आहे. ही मोठ्या मनाची माणसे प्रातःस्मरणीय वाटतात. जनप्रक्षोभाची तमा न बाळगता आपल्या ध्येयमार्गाहून विचलित न होणाऱ्या महान विचारवंत आणि समाजसुधारक गोपाळ गणेश आगरकर यांचे या संदर्भात आवर्जून स्मरण होते. उंच वाढत जाणाऱ्या वृक्षाला बदलत्या वाऱ्याची दिशा कळते असे धनंजय कीर यांनी महात्मा जोतिराव फुले यांच्या चरित्राच्या प्रारंभीच म्हटलेले आहे. आगरकरांना जे सहन करावे लागले तेच महात्मा फुले यांनाही सहन करावे लागले. विठ्ठलपंतांनी आणि रुक्मिणीबाईंनी असा कोणता गंभीर गुन्हा केला होता की ज्याचे परिणाम ज्ञानेश्वरादी भावंडांना भोगावे लागले? पण ज्ञानदेवांसारख्या स्थितप्रज्ञ आणि परमकारूणिक महात्म्याने या पतितांकडे क्षमाशील वृत्तीने पाहिले. 'विश्वाचें आर्त माझ्या मनीं प्रकाशलें' असे आत्मप्रचीतीचे उद्‌गार त्यांनी काढले. केवढा विशाल हृदयाचा हा माणूस! वयाच्या एकविसाव्या वर्षी आपले जीवितकार्य पूर्ण झाले असे त्यांना आतून जाणवले, तेव्हा आपण होऊन त्यांनी समाधी घेतली. लौकिक जगाचा निरोप घेतला. पण अप्रबुद्ध समाजाला आत्मज्ञानाची गरज आहे असे त्यांना वाटले, तेव्हा त्यांनी 'भावार्थदीपिका' लिहिली. त्यांचा खरा समाधियोग त्या ग्रंथारंभीच साधलेला होता. लोकानुनय न करता सनातनी विचारांच्या विरुद्ध हा महापुरूष ठामपणे

उभा राहिला. त्यांच्या भावंडानी त्यांना नैतिक अधिष्ठान दिले. ज्ञानदेवांभोवती 'ईश्वरनिष्ठांची मांदियाळी' निर्माण झाली. या प्रभावळीतील ते मानदंड ठरले. एकनाथांनी कुठल्याही प्रकारचे कर्मकांड न स्वीकारता कालप्रवाहाच्या विरुद्ध दिशेला जाऊन आचारधर्म स्वीकारला. त्यांचा लोकान्तामधील एकान्त हा श्रेष्ठ दर्जाचा. त्यांची प्रत्येक कृती आजच्या संदर्भातही अनुकरणीय वाटते. त्यांनी अशुद्ध स्वरूपात उच्चारली जाणारी 'भावार्थदीपिका' शुद्ध स्वरूपात लिहिली. काशीचे तीर्थ रामेश्वरी आणून पुण्य जोडणाऱ्या अजाण माणसांच्या डोळ्यांत त्यांनी झणझणीत अंजन घातले. मृत पितरांना श्राद्ध घालून उद्धार करण्यापेक्षा भुकेने व्याकुळ झालेल्या दलितांना अन्न देणे हे त्यांनी आपले परम कर्तव्य मानले. नामदेवांना आणि एकनाथांना प्रपंचमार्ग सोडून वेगळा परमार्थमार्ग स्वीकारण्याची आवश्यकता भासली नाही. जीवनाचा परम अर्थ त्यांना आकळला होता. खरा मंत्र गवसला होता. गोरोबाकाकांना घट घडविता घडविता विठ्ठलप्राप्तीची समाधी लागायची. सावता माळ्याला 'कांदा मुळा भाजी' हीच विठाबाई आहे ही आत्मानुभूती प्राप्त झाली होती. चैतन्य महाप्रभूंना निळ्या समुद्राला पाहून निळ्या कृष्णाची अनुभूती झाली होती. तर आधुनिक काळातील महात्मा गांधींसारख्या श्रेष्ठ वैष्णवाला दरिद्रीनारायणाची सेवा हीच ईश्वरसेवा वाटायची. तुकाराममहाराज तर आपल्या अवघ्या जीवनात शब्दसमाधी लावून बसले होते. भंडाऱ्याच्या डोंगरकपारीत त्यांनी केलेल्या एकान्त साधनेतून मराठी मनाचे शुभसंचित साकार झाले. कालोत्तीर्णता हा त्यांच्या आत्मचिंतनाचा निकष आहे. तुकाराम आमच्या श्वास निःश्वासांत एवढे मिसळून गेले आहेत की सुख–दुःखाच्या उत्कट क्षणी 'आनंदाचे डोही आनंदतरंग' किंवा 'सुख पाहतां जवापाडें। दुःख पर्वताएवढें' असे म्हटल्यावाचून आम्हाला चैन पडत नाही. तुकारामांच्या उद्‌गारांत जी अवतरणक्षमता आहे त्यांतून केवळ मराठी मन प्रकट होत नाही. त्याहून व्यापक क्षितिज आपल्याला खुणावत राहते. अनेक अर्थवलयांना कवेत घेणारी त्यांची समर्थ शब्दकळा सामान्य माणसाचा कायाकल्पच नव्हे तर मनःकल्प घडवून आणणारा तो शक्तिस्रोत आहे. केवळ टाळांच्या तालावर गात राहणे हा या अभंगांचा गुणविशेष नसून, त्यांचे अभंगत्व त्यांच्या चिंतनशीलतेत, जीवनव्यापक आशयात, आत्मशोधात मग्न राहणाऱ्या त्यांच्यामधील जीवनसाधकात आणि तत्त्वनिष्ठेपाशी भणंगासारखे जीवन जगताना दांभिक समाजाने निर्माण केलेल्या वणव्याला न जुमानता धीरोदात्त वृत्तीने तोंड देणाऱ्या त्यांच्या असामान्य व्यक्तिमत्त्वात आहे. असे तुकाराममहाराज आपणास आजही मानवणारे नाहीत. दुभंगलेल्या समाजजीवनात अभंग कसे भावतील? तुकाराममहाराजांसारखा मेणाहून मऊ आणि वज्राहून कठोर असा पुरुष लाभणे ही दुर्मिळ गोष्ट आहे. तुकाराम ज्या प्रकारचे जीवन जगले ते त्यांनी लिहिले आणि जे लिहीत गेले तसे ते जगत राहिले. सामाजिक विसंवादावर प्रहार करताना त्यांनी लेखणी पलित्यासारखी पाजळली. या तेजोमय लेखणीने समग्र मानवी दुःखाला, प्रपंचविज्ञानातील दुःखकळांना सशब्द केले. म्हणून कालचे तुकाराम आजचेही वाटतात.

पूर्वीच्या ऋषिमुनींनी तपोवनात राहून चिंतन केले. त्यांनी हा मार्ग पत्करला तो केवळ आत्मसुखासाठी नव्हता, समष्टीच्या अभ्युदयाची चिंता त्यांनी सतत वाहिली. त्यातून आरण्यके आणि उपनिषदे निर्माण झाली.

